श्रृंगार सारस्वत प्रकाशन, मुंबयि.

पैलें कुसुम.

# " जिद्दाने केलो जावंयि "

(चारि अंकि नाटक)

## लेखिका : मुक्ताबायि मंगळूर



एप्रिल १९८३

मोल रु. १०-००

श्रृंगार सारस्वत प्रकाशन, मुंबयि.

पैलें कुसुम.

# " जिद्दाने केलो जावंयि "

(चारि अंकि नाटक)



लेखिका : मुक्ताबायि मंगळूर





एप्रिल १९८३





मोल रु. १०-००

पैले कुसुम

"जिद्दाने केल्लो जावंयि"

(चारि अंकि नाटक)



आवृत्ति - १ली
प्रति - ५०० एप्रिल १९८३



लेखिका :

श्रीमती मुक्ताबायि मंगळूर



प्रकाशक :

देवराय बैंदूर

"श्रृंगार सारस्वत प्रकाशन"

३४, हिरा अपार्टमेंट,
स्वामी विवेकानंद मार्ग,
गोरेगांव (पश्चिम), मुंबयि-४०० ०६२.



मुद्रक :

श्री बाळकृष्ण राजाराम बोरकर
श्री ओम साई प्रिन्टर्स,
१७, टिळक मंदिर रोड,
विलेपार्ले (पूर्व,) मुंबयि-४०० ०५७.
फोन : ६२ ४४ १९

# अशि तें घडनु आयलें

कोंकणि भास मऱ्हाटीचि पोट भास म्हुणु मुंडो न्यायु करतल्या अनेक विद्वानानि, इतिहासाचें पोंद खरवडूनु, सुमार इतलें खळें वैरि काडलें, आनि तांगेलें वोंट्र पुढसारुक पळयलें. तावळि, मर्माक मारु लागिले आमचिगेले कोंकणीचे कैवारि, हीनासर्याने उटायले, आनि, सशास्त्र सप्रमाण स्थापित केलें की, "मऱ्हाटि" ह्या शब्दाचि व्युत्पत्ति जावंच्या फुडेचि, कोंकणि येकि प्रौढ, प्रमाण भास म्हुणु नांवाक रुपाक पाविलि. ह्या वादा सरशि, ऐतिहासिक दुर्घटनानि नष्ट केलेल्या समृद्ध कोंकणि साहित्याच्या पुनऱ्रचनेक प्रारंभु जालो. इतर भारतीय भासो उद्भवल्यो तशि, संस्कृत प्रधान संत काव्याने सुरु जायने, तरि बंदिष्ट गद्य साहित्याने जालो. सुसंस्कृत ब्राह्मणांगेंलि तोंडि भास जावनु आसिलि माय कोंकणि जन्मतांचि घनपण घेवनु, वाडलि. उच्च मोलाचि नाटकं बरयिलि उदयाक आयलि, आनि, जागो-जागि, तांचे प्रयोगयि जावनु तीं अन्यंत लोकप्रिययि जालि.

परंतु, बहूतेक लेखक, हाताक की तोंडाक म्हणलेल्या वारि बेतारि जीवन कोरन आसिले मध्यम वर्गीय, आपणालें लेखन छापूनु प्रकट कोरयां म्होणूक मुद्रणे खर्चाक दुड्डु खंचाणे हाडतले? गरीब तरी महा मानि जीव, कोणाकडेयि दांत गिरुयतले न्है. तसल्यांतु कोणाकडेयि देही म्हणू तरि मागिल्या तोंडाक दुड्डु काडनु दितलो दानि तो सोदिल्या शिवाय मेळचो ना. आमि हताश जावनु हात पोटळनु बैसूक नज्ज म्हुणु, सर्वश्री प्रभाकर मुदूर, गोपिनाथ कामत, अनंत विठ्ठल कामत, मुक्ताबयि मंगळूर, चंद्रमा बिजूर, भारती बेळारे, देवराय बैंदूर. प्रभृति थोडे साहित्यकारानि, "शृंगार सारस्वत" नांवाने पुस्तकं प्रकाशित कोरचि ही येकि "पिड्शि" योजना. ह्या संकलनाच्या पैल्या कुसुमाक प्रस्तावना बरयितना माका अत्यंत हर्षु जाता.

"जिद्दाने केलो जांवयि" चि लेखिका मगेलि खासा भयिणि आम्मृ. तिने हें नाटक बरोवंच्याकयि येक जिद्दचि निमित्त म्होणयेद. संसारांतुल्या अनेक क्लेष कष्टांक तिने जिद्दानें तोंड दिलें, आनि चिक्के मात्तें वैरि करता म्हणतता, तिगेलें निकोप आरोग्य म्हणलेलें येकि घडनु गेलेलि संगतिशी जालि, आनि ताजीचि येकि खंति लागूनु ती चडचि खंगूवंच्याक लागलि. तिने ह्या थरेने मात्तें खरडूनु घेवंचें चांग उपयोगाक पुणी पोडो म्हुणु हांवे येकि शिवराय आलोचना केलि. माक्षि हांव, संसारिकु जावंच्या पैलें, तिगेल्या कष्टांच्या नपुरो पुरत्याक मगेलेयि कष्ट मेळवनू, सुमार धा वरसं तिगेल्या आश्रयांतु आसिलों. लोक लेकताले ती मगेलि म्हालगडि भयिणि; कारण, आकलसाक जावो, चेष्टेक जावो, माका केद-नायि "अण्णा" म्हुणु आपयिना आसिलि. काडलेल्या तोंडाक "देवु देवु" करतालि. विधाताने केदनां की माका, जन्मतः देवु कोरनु घाला, लोकां कोरोवनु म्हणोवनु

घेवचें चुकता वे? गोंयकारां भाषेने "घट्टा तें घट्टा, तूं कित्याक रट्टा, रट्टा म्होणोन सुट्टा, भोगुंकूच पट्टा" तिगेरि अमृत पडि नंदा दीपाचो विनियोगु घेत आसिल्या दीर्घ कालावधींतु, तिगेल्या विचार धारेचो आनि वाग्जालाचो प्रभावु हांवे संपूर्ण पळयिलो. येकु दिवसु, थंड वेळारि, येका फ्रेंच नाटकाचो कथावस्तु हांवे तिका सांगूनु, "हेरशांतु ल्हाय्यो फुलायता, बरयि पोळवयां नाटक" म्हणलें. अय्यगळांगेलें रगत आंगांतु खेळता, मगेलें उत्तर ती दवरनु घेता? नाटक पूरा बरोवनु जाय-सरि ताजि खबरि काडने. मागीरि वाचूक दिलें तें पात्र व्यवस्था। नाटयपूर्ण प्रसंगानि समृद्ध नाटक. माटुंगेचे निरडलेंले कलाकार, हटंगडि मुरलीधरालें निदर्शन, निमगुकावे, नाटक महोत्सवांतु गाजलें. थोडे जणानि उद्गार काडले की "भावाने बरोवनु, भयिणील्या नांवारि घालेंरे". तें आयकूनु आम्मु उत्तरलि--- पैले फांतां माका अण्णा म्हणलेलें तिने---- "तुम्मि मगेलें ऊन म्हुणु उच्चारलें, तरी प्रशंसेचि परमावधि केलि, अण्णागेल्या तोलाक माका बसयलि, हाजाकयि चड कोणाक जायि". आम्मुने आपणाल्या होडविके सरशी माका होडपण दिलें. तरी मगेल्या मनाक गोत्तु आस, की मगेलि आम्मा गिरीजाबायिल्या रसाळ आनि तेजस्वी कोंकणीचो विशेष संस्कारु लाभु आम्मुकचि जाला. मगेल्या उत्रांनि जीब खेळता, आम्मूल्या उत्रामि जीवु खेळता.

**देवराय बेंदूर अय्यगळ**

हिरा एपार्टमेंट्स,
स्वामी विवेकानंद मार्ग, गोरेगांव. मुंबयि-६२.



मगेल्या आईक हांवे सांगलें की, देवमामु तिगेलें जिद्दाने केल्लो जांवयि नाटक छाप्पुनु तिगेल्या जायदिसाक तिका दिवंचो आस. तावळि अत्यंत भावनावश जावनु, ती उत्तरलि तें तिगेल्याचि शब्दांतु सांगता.

हांव हातांतु लेखणि घेन, येकि लेखिका जायन, हें हांवे स्वप्नांतु लेकने आशिलें. हांवे नाटकं बरयिल्याचें श्रेय पूरा मगेलो भावु बेंदूर देवराय अय्यगळाकचि पाक्कांज.

दोनि चरडुवांगेलि लग्न सांगसांगातीचि म्हणशी जालिल, आनि घर म्हणलेलें "घोंगरल" म्हणतातित तशि खावंचाक आयलें. दीसु भरि उबगर्णाने मगेल्या देह प्रकृतीचेरि परिणामु जावंच्चाक लागलो. तें पोळवनु लेखनाचो येकु उद्योगु माका लायलो मगेल्या भावाने, असि हांवे लेकिलें. तागेंली प्रस्तावना वाचल्यारि दिसता, मंजे कोरोवनु म्याऽऽवं म्हणउंच्या अर्थात् आपणाक "अण्णा" म्होणोउंच्या जिद्दाने ते आस्सना!! अण्णाक अण्णा म्होणूक मगेलें कसलें सरता? तरी "अण्णा" म्हणलेल्या उपकाराक, मगेल्या सर्व नाटकांचे बारश तानेचि केले, नांवं तानेचि घालि. हें नाटक छापनु उजवाडाक येत्ता, तागेल्याचि आग्रहाने.

देवण्णागेलो मित्रु मुदुर प्रभाकरु, आन्नेकळो उत्स्फुर्त लेखकु कोंकणी खातिर खपतलो, हांजि प्रुफं तपासता आनि श्री साई सांनिधींतु विलीन जालेलि मगेली मैत्रिणि श्रीमती चंद्राबाई बोरकर तायीगेलो नात्तु बाळकृष्णु आंपलेपणाने हें छापता, हो येकु कर्मधर्मसंयोगु; ह्या सगळयांक हांव रुणि जावनु आस"

मुंबई

२६-३-१९८३

---

## "जिद्दाने केलो जांवयि"

पात्रविवर –

१) फणशेकेरी पांडुरंगरायु ) दोस्त +
२) विक्रमपुर विनायकराव ) होटेल मालक
३) गिरीशु - (१) लो जांवयि
४) हेमंतु - (३) लो मित्रु
५) अनिता - (१) ली धूव (३) ली बायल
६) आया - आलमारी
७) वामनु - रांदपी
८) लाला
९) मारवाडी
१०) डॉक्टर सोमेश्वर
११) शंकर शर्मा (३) लो बापुसु

# "जिद्दाने केलो जांवयि"

## अंकु–१

(दृश्यः–१लें) स्थळः– रस्तो

(पांडु आनि विनायकु मॉरनिंग वॉक घेत्त आसति, विरुद्ध दिशेथावनु गिरीशु प्रवेश करता. ह्या दोग्गांक पळयत पळयत दोनि पावलं मुखारि वत्ता, चिक्के उगडासु केल्यावरि एक क्षण उबरता, परतूता.)

गिरी : नमस्कारु, केप्टन माम.

विना : (नियाळतचि) कोणु बाळा तूं? गुर्तु मेळने म.

गिरी : सहजच्चि. तूंवे माका पोळोंवनु मस्त वर्सं जाल्ली. वीस, बावीस सहज जात्तिद.

विना : तावळी तूं बरी सानु आशिलो आसका. आतं खाड, मिशो---

गिरी : व्हयि-व्हयि. हः! हः! मगेलो गुर्तु तुका मेळनात्तिलो सहजचि.

विना : तूंवे मात्र मगेलो गुर्तु सहज काळो हं. तुगेलि स्मरण शक्ति जबरदस्त दिसता. मगेलि आर्तांकडे तीरा नबळि जाल्यापळे!

गिरी : जाल्यारि तुजांतु गुर्तु मेळना जायशि विशेष फरकु जायने. कपालारि जाल्लेल्या जखमे माव थाइ हांवरे खंयि. हांव, विवेकु दीपकु तुक्का कितले एडमायर करताले, उगडासु आस्स की तुक्का? तूं आमकां रंगूनच्या एर रेडाच्यो भयानक खब-यो सांगतालो. त्यो आयकूनु आम्मि निद्दांतु किळचताति म्होणु विमल पाच्चेने सांगनाफुडें, गुलबकावले काणियो सांगुक सुरु केल्लो तूंवे. एकेकि काणि तिनि तिनी दीस सरनाशिलि.

विना : आरे--आरे--खंयि आयकलेल्यो बाळा तूंवे मगेल्यो काण्यो?

गिरी : विश्रामपूर. मगेल्या मावशेगेरि. होयि, उत्राभरांतु हांव कोणु म्होणु सांगुक विसरलों. हांव सारंगपुरच्या रावबहादूर सुब्राय शर्मालो नात्तु (पांडु दचकता) शंकर शर्मालो पूतु.

विना : ओ-हो-हो! आत्तं येवजणेक आयले पळे. बेचाळीसांतुलि खब्बरि ---मिलिटरी होस्पीटला डाक्टरालो पुत्तोण्यो की तूं? आत्तं हांगा कशी?

गिरी : नौकरी तलाशेक. विलायते थावनु आतांतूंचि आयिला.

विना : कसलें शिक्कूक गेल्लेलो पुता?

गिरी : बिझिनेस एडामिनिस्ट्रेशन.

विना : वेऽऽरि गुड्! तुगेलीं आवसु बाप्पूसु----

गिरी : मगेल्या आवसूक पळयिलो उगडासु ना माका हांवे तीनि वर्सांचो आसतनाचि गेल्या खैं ती. मगेले बापसूनें आत्तं दुसरी होरडीक कोरनु घेतल्या. तो सारंगपूर वकीलि करता.

पाण्डु : जज्जु----(जीब चाब्बुनु तितल्यारि तडवयिता.)

गिरी : तुक्का आन्नालो गुरतु आस्स वे? केप्टनमाम, तूंवे आमकां इंट्रोडयूस करने.

विना : सॉरी! हो मगेलो परम मित्रु आणि पार्टनरु, फणशेकेरी पांडुरंगरायु,

गिरी : नमस्कारु!

पाण्डु : देवु तुगेलें बरें कोरो.

गिरी : आनु जज्जु आशिलो म्हुणु कशि गोत्तु तुका? कोंग्रेस मूमेंटा-वेळारी रिझायन केल्लेंलें खंयि तान्ने.

पाण्डु : बरोबरी, बरोबरी पेपरांतुजावो वाच्चूनु आसका माक्का व्यक्तिशः गुर्तु म्हणल्यारि.---ह्या बगलेक खंयि राबता तूं?

गिरी : हांव राबता ४थ्या रोडारी हांगा मगेल्या मित्राल्या दवाखान्यांतु वत्तां.

पाण्डु : कोणु मित्रु?

गिरी : डॉक्टर सोमेश्वरु.

विना : जीवा बरें ना वे?

गिरी : छे-छे! ! अशी गप्पा मारुक वत्तां.

पाण्डु : हातगूणु बरो आस तागेलो आमगेलोयि फेमिली डोक्टरु तोचि· तुगेलो दोस्तु की तो?

गिरी : व्हयि, व्हयि, आम्मि एक्क गांवचे. एकडे शिक्किल्ले. तो. घरजांवयि जावनु हांगा सेटल जाल्ला. बरें, येत्तां हांव.

विना : आम्मी हांगा लाग्गी राबताति. आमगेरी यो एक दीसु.

गिरी : अवश्य, एड्रेसु?

विना : ऊऽ तें गोबरा व्रण्णा बिल्डिग दिसता न्हयि, तेंचि! ! "सितापति निवास" म्होणु होळ्ळो बोर्डु आस मालकालें फ्लेट खंचे म्होणु विचारल्यारी कोणयि दाकयद.

गिरी : होटेल न्हैवे तें?

विना : होयि आमगेलेंचि तें.

गिरी : कॅप्टन माम, मर्व मोणु होटल इत्तें काळ्ळें तूंवे?

विना : लडायेंतु जाल्लेले जखम निर्मित उजवो हातुचि नवळो जालो. इनवेलिड म्होणु पेनशन् दिल्लें माका. हागेलें एक सानशें होटेल आश्शिलेंचि मिलिट्री केन्टीन चल्लोवनु (हात्तेयि चारि कास केल्लेले. मगेलेंयि वोट्टु घाल्नु. ह्या ग्तितिक हाळयां.)

गिरी : बरें, येत्तां हांव, बाय् बाय् (वत्त.) (पाण्डु ताज्ञे वोवू गल्ले दिकाक पळयत उब्रता.)

पाण्डु : ग्रॅंड आस मरे चेरको.

विना : नायका सुमार कळ्ळो तो माक्का. जातका नक्कल मागचो विचारु सो दिसता.

पाण्डु : (निश्वास् मोणु) हः ! तें ह्या जन्मांत् शक्य ना.

विना : अशि इत्या अवलक्षण उलयिता? गोरि गोमटी पोरि, कायळचानें पोळी उब्बारनु व्हेल्यावारि व्हरद कोणयि.

पाण्डु : बिनायका, बेचाळासांनंतरलो मगेलो तुगेलो गर्तु तो मैत्रितु धड जायत लागायत आमच्यांतु कसलें गपीत ना; खरे म्हळयारी आयुष्यांतु मगलो खरो मित्रु तूं एकळोचि! !

विना : खरेंचि! आम्मि पुर्विले जन्माचीं भावंडं कितकी.

पाण्डु : मगलो पूर्व इतिहासु आयकल्यारि त्या संबंधाक तू इतलें महत्व दिशीना. भावंडं भयंकर वैरि जांवच्याक फाव जात्तातित.

बिना : सर्व साधारण एक्क आवसु पोटां उबजलेंलि कोष्पाभरांतु एकमे-कांलि मात्ति फुट्टयतीद. वरसगटळें तोंड पळयिनात्तिलें रावतीद. जाल्यारि वेळ प्रसंग आयल्यारि रगताक रगत केन्नायि सोणु दीना; हो मगेलो अनुभवु. तुगेलो पूर्व इतिहासु म्हणालो. कसलो सायबा? सांगचो सारखो आसल्यारी सांग

पाण्डु : (निश्वासु सोणु) हं---- नाक्का विनायका. हो इतिहासु अनेक कडु अनुभवांनि गळगंट भरलेलो उगडासु केल्यारि थायि, आंगांतु इतनण जात्ता. उच्चारा हाडूक जायना मज्जाने.

विना : तुगल्या मनाक यातना दिवच्या त्या घटनांचो उगडासु थायि कोरनाक्का तसल्यारि. देवाने तुक्का रत्नशें पोर दिल्यां. तिगलें बरेंपणा विचारु करि. कडु स्मृतियांचेरि विजय मेळयि. तिगेल्या संसारा सुखांतु आनन्दु पाव.

पाण्डु : (एकदम कसलेंकी मुच्चिलें एक्स्प्रेशन) बराबरी, बराबरी! विजय मेळोंवका, आनन्दु पावका. तूंवें सहायु केल्यारी साध्य जात्ता.

विना : कसलो सहायु कोरका सांग, सांग सांग.

पाण्डु : ह्या चेरक्या वोट्टु अनूली होरडीक जायशी करि.

विना : विचारु प्रशस्त आस लक्ष्मी नारायणाली जोडिशी शोभद जाल्यरि, नागेले कुल नेण, गोत्र नेण, केन्नाकी कणियो सांगतलो म्हळलें,

गर्तुचेरी एकएकी अशी सोयरीक निमगिल्यारी-----

पाण्डु : (फडफडतचि) तुगेलो गुर्तु ताणे आपणे जांवनु काळा. तूंवे ताक्का घारा आपयला मरे? येतलोच्चि ती आमगेरी आपोवनु हाडि. अनूलो गूर्तु कोरनु दी. हांतुं मगेलें येक जिद्द आस, मागीरि सांगतां.

विना : तें सगळें होयि म्हणा. जाल्यारि एक मात्र सांगूनु दवरतां. तो रुप्पानें आस्स तशी गुणाने आसल्यारि मात्र मगेलो सहाकारु न्हयि जाल्यारि मारी आंबुणु घाल्लेवारी आंबुणु घालीन हं.---

पाण्डु : यो तसल्यारि डॉक्टरागेरी वोच्या. तागेले विषयांतुली विशेष माहिती काणु घेवयां. (वत्ताति.)

## (१ लें दृश्य समाप्त)



## दृश्य २ रें

( स्ट्रीट सीना पडदो वैरी वत्ता. डेस्पेन्सरी सीन डॉक्टरु सोमेश्वरु, आनि गिरीशु पेपर वात्ता)

डॉक्टर: (टेलिफोनारी उल्लयीना) हलो, डॉक्टर स्पिकिंग. आत्त येवंकावे? तापु कितलो आस? काळजी कोरची जरुर ना. हांव घारा वत्तना पोळोवनु वत्तां. तेंच्चि व्वक्कद चालू दवरी. हं बंद करतां (टेलिफोन दवरता, डायरी वरयिता.) इत्तें, गिरीश, कसली खब्बरी?

गिरी : (पेपर घडी करीत) हूं--- सद्याक वोंटेड कोलमांतु मगेल्या कोलिफिकेशना फाविलि एकी थायि जाहिरात ना म्हळेलोंचि. खंयिदेक वोंटेड एंजिनियरस्, वोंटेड शोर्टहेंड टायपीस्ट, डॉक्टर. खंयि नर्स जायि खंयि, जाल्यारि एडमिनिस्ट्रेशन ओफीसगली शास्त्रा एकी ना.

डॉ. . कशि आसतली? तसले जागे बहुतेक कंपनी मालकांल्या अथवा डायरेक्टरांल्या, जांवई, मेवण्यांल्या हक्काचे आसतात‍ि. तें काम कर्तल्यांक विशेष शिक्षणा जरुरी आस्सना. झोंकदार सही घालू आइल्यारि पुरो. बाकी कारभार कोरुक परसनल सेक्रेटरीज आसतातीचि. तूंवे सेक्रेटरी पोस्टाकचि एप्लायि कोरचें चांग.

गिरी : आनि त्या बोडकुंबु मिजासे मोंटांक हांजी-हांजी कोरु!

डॉ. : हें पळे गिरीश, तूंवे एडवटायझमेंटाचेरी अवलंबुनु राबचांतु कांयि अर्थु ना. आजि कालचे दीस वशील्यांचे तुगेलो आनु काँग्रेस मूमेंटांतु नावाजलेलो तागेल्या इनफ्लूएन्सारी-----

गिरी : हांवे विलायते थावनु परत आयिल्लें थायि ताक्का गोत्तु आसुक फाव ना.

डॉ. : आरे--! कसलें उल्लयिता तूं? इत्या कळयने तूंवे?

गिरी : हि हॅज ट्रिटेड मी व्हेरी बेडली

डॉ. : कस्लें केल्लें रे शंकरमाम्मने. तूं म्हळचारी जीवुकी प्राणु आशिलो ताका.-----

गिरी : हां---- हांवयि तशीचि लेक्किलें. त्या मितींची तान्ने दुसरी होरडीक कोरनु घेनिशिली म्हुणु लेकतालों.

डॉ. : पाप, म्हांतारपणांतु एकांगी जीवनाचो कंठाळो आयलो कितकी कर्माचाक. यू सूड नोट माईंड इट, गिरीश! ओ हो! तुक्का त्या होरडीके बॅक ग्राऊंड गोत्तु ना तस्सल्यारी.

गिरी : बॅक ग्राऊंड? कसलें?

डॉ. : डोंट यू नो? सी वोज द हीज ओल्ड फ्लेम कोंग्रेस मूमेंटांच्या प्रभात फेरींतु स्वराक स्वरु मेळउनु राष्टप्रेमाचि पदं म्हणतां म्हणतां जमिलो---- खंयि तांगलो प्रेमु दुडवा आशेने तिगेले बापसूने तिक्का एक जमीनदाराक धार वत्तुनु दिलेली खंयि. त्या पाप्यानें व्यसनांतु सर्वस्व व्हगाडनु आत्महत्या कोरनु

घेतली म्हणताती. अतंत्र जावनु भारी कष्टांतु आशिली खैंकर्मीचि.

गिरी : तिजें पापदिसलें म्हुणु तिका बायलचि कोरनु घेवंचि? होडलो महर्षी कर्वेचि कीना. तिगेल्या पोरं बाळांगेल्या पापपुण्याक वचूनु, माका गुंडियेंतु देंवरयिलो! !

डॉ. : कस्लें उल्लयिता सायबा तूं?

गिरी : मगेलें एम. ए. जाल्लें की हांवे बिझिनेस एडमिनिस्ट्रेशन कोर्सु कोरुक विलायते वोचचें निश्चीत केल्लेलें तुक्का गोत्तु आस मरे? हांवे सगळी फोर्मस् भोरनु पेटयिलीं. पासपोर्ट मेळयलो, सर्व व्यवस्था जात्ता म्हणतना कोर्टाच्या कामाखातिर चारि दीस विश्रामपूर गेल्लेल्लो आनु, वापस येत्तना मजगुणि एकि आम्मा, आणि रेडीमेड चारि भावंडं घेवनूचि आयलो.

डॉ. : तुका दु:ख जावनु आसका.

गिरी : खरें दु:ख जाल्लें तें विलायतेक वोचचो विचारु रद्द कोरुक सांगनाफुडे. हांवे ना ना थरानें सांगूनु पळयलें; ना-तें नाऽचि म्हणालो.

डॉ. : आरे, माग्गिरि वोचू गेलो कशि तूं?

गिरी : रीण काडनु!

डॉ. : लोन स्कोलरशिप्पारि वे?

गिरी : ती सगळी व्यवस्था कोरुक वेळु खंयि आशिलो? हांवे मारवा-ड्यालागि रीण घेतलें.

डॉ. : ए, पाप्या, सर्व सोडनु मारवाड्याला वल्यांतु शिरकलो तूं?

गिरी : साडे साति लाग्गिल्ले वेळारि, विक्रमादित्याने आपणालें जिद्द सोडने, तशि मारवाड्याने करि म्हणल्लेले कडे सही केल्लि. पैरि तान्नें लेक दाकयता म्हणसरि, कल्पना नाशिलि माक्का त्या मारवाड्याल्या चक्रवाडीचि.

डॉ. : आरे, हांगायि आयला वे तो?

गिरी : व्हयि, हांगायि एकि पेडी आस तागेलि. बोटिरि रिसीव्ह थायि करुक आयिलो. मगेलि, हॉटेलांतु राबचि व्यवस्था थायि ताणेचि केल्या. मगेलो रिणाचो आंकडो पळयितां म्हणसरि, हांवेयि तशीचि लेकिलें. अड्डेच वरसांतु सात हजार रीण, व्याज सहित ४३०९८ जाल्यां बिलिव्ह करशीकी?

डॉ. : ए, पाप्या, आत्तं कसलें करता तूं?

गिरी : मर्याद सोडची की जीवु सोडचो म्होणु विचारु करतां.

डॉ. : उटा, पिशावारि कांयिपुणि उलोंवनाका-कसलो पुणी रस्तो सोद्दूनु काडचां. (बागलारि टिचक्यो) कम् इन.

गिरी : तुगेले पेशंट आयले. हांव येत्तां (भायर वोचूक करता, बागलांतुं पांडु) आरे, तूं हांगा येत्तालो वे? येत्तां, (वत्ता).

डॉ. : यो पांडुरंगराव! बैस, बैस. (पांडु बसता) कशि आस तूं.?

पाण्डु : तशि बरो आस. जाल्यारि एक एक फांता मात्तें गरक् जात्ता. ब्लड प्रेशर चक्क कोरचां म्होणु आयलों.

डॉ. : यो, टेबलारि आड सर. ब्लड प्रेशर घेत्तां.

पाण्डु : आत्तं भायर वोचू गेलेलो चेरको तुगेलो दोस्तू की?

डॉ. : तुका कशि कळलें?

पाण्डु : ताम्नेचि सांगलें. हळबळी पोरु चिके तावळि वाट्टेरि मेळ्ळेलो. सानपणी केन्नाकी विनायकु ताक्का काणयो सांगतालो खंयि. कितलेकी वरसांनि गुर्तु काळलो पळे पोराने. चांगु चेरको व्हयि वे?

डॉ. : चेरको चांगु, दीस मात्र वाइट आयल्याति कर्माचाक.

पाण्डु : कसलें जाल्लें?

डॉ. : बापसूलागि वितुष्ट-----

पाण्डु : (स्व.) दुद्दांतु साखर! (प्र) वितुष्ट म्हणल्यारि

डॉ. : आर्थिक सहाया बाबतींतु आसका. बापसूने आतांकडे दुसरि होरडीक कोरनु घेतल्या तागेलें संसारा वज्जें वाडल्यां. वट्टा-येरि बाप्पसु-पुत्ताक शष्टाष्टक. हाणे विलायते थावनु परतूनु आयिलि खब्बरि थायि बापसूक कळयने म्हणनाफुडे, तूंचि विचारु करि.

पाण्डु : पाप बा पोराचें! असल्या तरन्या प्रायेरि म्हालगडचा गेलो आधारु ना म्हणल्यारि कष्ट! भारी कष्ट!! हं---! एक विचारु सुचलो. आयकल्यारि मात्र तूं हासता कितकी.

डॉ. : कसलो? आयकूंवयां.

पाण्डु : आमगेल्या अनिताक हाका दीवनु होरडीक केल्यारी कशी? माका चल्या चेरडूं नात्तिले मितीं की इत्तेकीं, हाका पळयिना-फुडे आपलों सो दिसलो. पूर्विल्या जन्मातुलो रुणानुबंधूचि आस्सूक पुरो.

डॉ. : तो इतले वगि होरडीक कोरनु घेशिना; पांडुरंगराय (कसलें की सुचिल्यावारी मात्तें हांल्लयित) ताका नांक थाई रीण आस. रीण काडनु शिकला तो. येद्दोळु खंयि नौकरीयि लाग्गने.

पाण्डु : लागतली, लागकली!! इतले शिक्किल्याक नोकरीचो बरगालु वे? रीणाची जबाबदारी--हाँव घेत्तां. बस्!

डॉ. : कबूल जांवचें कशि की तान्न. तागेल्या स्वाभिमानाक---

पाण्डु : तूं समजांयसूयि ताका. म्हणंतां म्होणु विषम लेकूनका. तुगेले मांवाने तुका दवाखानो काडनु दीने वे? आप आपणाल्या चेरडुंवाल्या बरेपणा खतिर अनूकूल आसल्यारि खंचोयि चालियेलो बाप्पूसु करता.

डॉ. : तो एकु विषयु मोडले तरी आनेकु विषयु वस्ताम!

पाण्डु : खंचो बा तो?

डॉ. : विलायत फीरनु आयला तो. गुर्तु नात्तिले चालयेक--------

पाण्डु : गुर्तु जायशि कोरची जवाबदारी विनायकाने घेतल्या वळकि आपआपींचि जातलि.

डॉ. : आब्बा,! चेरक्याली दृष्टीभेट जावंचे तितले भित्तरी सगळे प्लेन तयार कोरनु आयल्याति की इत्तें? (विनायकु भित्तरी येत्ता.)

विना : पांडु, हांव गिगीशा वोट्टु वोचूनु तागेलो सामानु घेवनु येतां. ताज्ञें राब्बिलें हॉटेल यूसलेस आस्स खंयि रे. आमगेले हॉटेलांतु यो म्हुणु सांगलें हांवे?. तूं मुखारि वोचूनु रुमाची व्यवस्था करी. हांव येत्तां (म्हणतचि अंवसरांनें अत्ता.)

डॉ. : कोण नमोन्यानें पाताळयंत्री सायबा तुम्मि! ह्या स्पीडारी तुमगेले प्लॅन चलल्यारि आत्तंचि लाग्नाचो यूहूर्तु काडूक कांयि हरकत ना.

पाण्डु : तुगेले तोंडांतु साखर पोडों अर्धां अधीक कांम जालें तूंवे सहायु केल्यारी बाकीचें जांवचाक वेळु लागशिना. बरें येत्तां–

(पडदो पडता)

## – पहिलो अंकु समाप्त –

(वाजपा ध्वनीनें लग्न सूचित कोरका.)



## अंकु २

**स्थळ : गिरीशाल्या घराचो दिवाणखानो. मेरी पद म्हणत घर साफ करता. बागला बेल जात्ता. ती भायर वत्ता. पेपर घेंवनु टेबलारीं दवरता. काम चालू, पद चालू वापस बेल जाता. भायर वोचून ब्रेड हाडता, भित्तरी दवोरनु येता.**

मेरी : दीसु उजवाशलो हांका; टिरी टिरी करपाक. सायबिणीने दिल्यात भेष्टे दोन हात आणि दोन पाय. खंयि म्ळोणुनु धांवू आणि कितें म्होणोनु कोरु? सायबु एक काम सांगता, बाई दुसरेंच सांगता. आणि सायबाचो तो बुटलेरु, पेद्रु---- तो आपणूयि एक होडु सायबु म्हणोन समजता. दीस भरी 'मान्ना हें करी-मान्ना तें करी–' म्होणोन माका ऑड्डुर करता. हांव ताका सारको करताशिलीं पुण भोंगो म्होणुन ओगी रावतां. कित्या जाणां– तो हांगा येत पोसून एदो मासाचो कुडको ना जाल्यार नुसत्याचो कांटो म्होणोन दृष्टी पट्टा. एको उंडो शीत सुसेगान पोट्टां पडता. ना जाल्यार त्या वामन भटाचें रांदप–दाळी बटाटो-खांवोन पोट मुजे फुगोन येत्तालें. आत्तां पोट फुगलें जाल्यार पेद्रु एदो सोरोइ दित्ता. देवु वरें कोरो बावडयाचे. (आंग वळतच्चि) आवइ, आवइ, फाटीचो वासो मुजो पिड्डयार जालो-(बेल) आनि कोण आयलो आतां? आसतलो कोणइ फर्निचर-वालो न्हइ जाल्यार पेंटर (वागला लागी वोचूनु) आवइ, हो सोलजरु, आनि हांगा कित्याक येयला? कोण जाय बाबा तुका? (हेमंतु प्रवेश.)

हेमं. : गिरीश रायु.

मेरी : सायबु आमचो? आनि इतल्या फोंतोटीरी? सायबिणीच्या बेसावान् ही तांगेली मदरात. बारा वरांचे आयल्यार मेळतले ते तुमकां.

हेमं. : आट्ट घंटयारी मदराति? अजुनी विलायतेंतूच्चि आस म्होणु लेकता न्हयि म हो? ब्रेकफास्ट कितल्या घंटयारी घेत्तातो?

मेरी : वेगेन म्हळळार अकरा वारांचे.

हेमं. : राम कृष्ण गोविंद (बसतचि) तरि माका तें लेदु शें दिसता. होयि गो इकरा घंटचारी ब्रेकफाल्ट घेतल्यारी लंच् केदना घेत्ता तो?

मेरी : तीनि वारांचेरी. आनि डिनअर घेत्तना फाइच्या दिसाची सुरवात जातली.

हेमं. : गॉड, गॉड, हरि जागरण करता न्हयि म ?

मेरी : बाइचो पाई आनि विनुबाब, उपासाच्या दीस करतात त्या त्या भाषेन? ना इल्लोसो फरक आहा. ते ताळो आनि तिपऱ्यो वाजयतात, उदबत्ती पेट्टयतात, आनि हे सिगरेटा पेटयतात. ते देवाचें योगान भजन म्हणकात. पुण हीं घोव-बायलांचें मोगाचीं कांतांरा सांगतात.

हेम. : ते पंचामृत बांटतात्ति म्होंणु हो आणि कस्लें वांटीना म?

मेरी : तें हांअ नोकळें. तो आनि ताजो तो बुटलेरु जाना.

हेम. : (हुस् कोरुन) हं - - - - आमगेलें आदराथित्य अमिची कोरनु घेंवका शें दिसतां. (आरामशीर वसता) एक कप चा हाडनु दित्ता वे?

मेरी : (स्व.) आवइ, कोणुकी, कित्तें की. आराम हात-पाय तांडुन बसलो कोसो मळया. हा - - हाका कित्ते गिरस्तीकायि आसकी ना? (प्र.) हें होटेल म्होणोन सजमल्यां कित्तें तुमी? ओऽतें पळ्या होटेल. थयि वोचोन औडुर. करया.

हेम. : (स्व.) कितली उद्धटी वा ही. (प्र.) वच्, तुगेल्या बायेक सांग, गेस्टु आयला, एक कप चा कोरनु दी म्होणु.

मेरी : आवइ, हांजे शित्रेल पिड्डुचार जाल्यां न्हयि मु? दुयेसु पोडो हाजेर; बाये कडच्यान चा मागयता. (प्र.) आरे सोलजरा,

सिनेमांत दाकयतात त्या भाशेन हें जपानी गेशेचें घर सजमता कित्तें? भायर बोर्डु पळोंवक ना रे?

हेम. . अधीक पंचातिका कोरनाका, वच, सांग तिका (ती दोळे रोंकुनु कुरटारी हातु दवोरनु उब्रता) गेल्ली की ना,

मेरी : वयतां, वयतां, पुण खुंयचे तालेवानाचो पूत येयला म्हणुन सांगूं?

हेमं. : म्हैसूरचो माजी दिवाण दिनकर रायलो पूतु आयला म्होणु सांग, वच!

मेरी : हें पळया असली मस्करी माकाडेन---. (गिरीशु दोळे मरडूनु घेत्त भायर येता, नायट पायजामा, हौस कोटांतु आस. निद्दा दोळयांतु आशिल्यावारि पळयिता आणि एकदम् हेमंताक पळयिता.)

गिरी : हाय,हेमंत!! आजि खंयि? उदेलोरे?

मेरी : (घावरेवनु) गुन्यांव बगस सायबा. न्हयि जालें उलयिलीं हांव. गुन्याव बगस. (जुगुळता.)

हेमं. : तुगेल्या मध्यरात्री काळकांतु दिसलो होड म्हण.

गिरी : खंयि आशिलो रे तूं इतले दीस? पापया, लग्नाक यो म्हुणु आग्रहानें कागद बरयिल्यारी एकि जवाब घालचि.

हेमं. : घूंवनु घूंवनु नें कागद मगेले हात्तांतु पडताना तूं, हनिमुनाक पाविलो कितकी. कॉग्रॅच्यूलेशन थायी पेटयने म्होणु वायट दिसलें कितकी तुका.

गिरी : दिसलें --- आरत्तांकडे तूंवे पत्र व्यवहारु बंद केल्लो. मगेलीं ग्डगाणीं आयकूनु कंठाळलो आसका. निदान मगेल्या भेडबाजांतु संतोषु पावो म्हुणु आपयिल्यारि, पत्तोचि ना तुगेलो.

हेमं. : मगेलो पत्तो माकाचि नाशिलो गिरीश!! हांव अनकॉनशस कंडीशनांतु हॉस्पिटलांतु पडलेलों.

गिरी : वेरी सॉरि, वेरी सॉरि---- कसलें जाल्लें तुका?

हेमं. : पाकिस्तानाच्या सरहद्दीरी जखमि जाल्लेलों, वांचलों होड. हांगा मिलीट्री हॉस्पीटलांतु कंप्लीट चेकअप कोरुक आयलो.

गिरी : आनिकयि समचि हूषार जायने वें?

हेमं. : ना, एकेक फांतां भयंकर हेड-एक जात्ता. दोळयांचीं दृष्टी थप्पने मंद जात्ता.

गिरी : आरे, आरे ––! ! तूंवे समचि विश्रान्ति घेंवका (तागेली डेकोरेशन्स पोळोंवनु,) हीं डेकोरेशन्स पूरायि त्याचि खातिर मेळ्ळेलिं वे तुका?

हेमं. : ना,–हीं गेलेल्या वरसं राजस्थानाच्या मोहीमेंतु मेळ्ळेलिं.

गिरी : व्हयिरे, तुक्का मिलिट्री लायफु मेच्युतावे? सैन्यांतु भरती जाल्लेल्यांगेले चेरें करतालो तूं. कवायत शिवाय मेहनति ना, युनिफॉर्म घालनु मेरेसुयताति.–––––

हेमं. : ती मगेली चेरडुपणाबुद्धी आशिली. फ्रोंटियर रक्षण कोरुक गेलेल्या मगेल्या भाय्यानें, चायनिसांगेल्या अनाचाराक बली पडलेले दीसु ती प्रौढावस्तेक आयली. मगेल्या आक्कालें रित्तें निड्डळ पोळोंवनु अंगुष्ठया वेगु मस्तकाक चळ्ळो आणि ताबडतोब कमिशनाक एपलाय केल्लें.

गिरी : कितलीं रजा?

हेमं. : तूर्त एका महिन्याचि सेंकशन केल्या. हांगा स्पेशलीस्टाल्या निदानाचेरी जरुर पडल्यारी वाड्डोंवका पडतली. वरें, येत्ता हांव.

गिरी : खंयि वत्ता?

हेमं : सामान् वेटींग रुमांतु दवोरनु आयलां. एकळाक तुका मेळनु अभिनंदन कोरनु वच्चां म्होणु आयलो.

गिरी : होन्नि पूजा कोरुक बसल्या आसतली. तूं वत्ता म्हणल्लें खंयि?

हेमं. : मेस्सांतु.

गिरी : तें कांयि चलशीना. तूंवे हांगा रावका. कितल्लेकी काळानें मेळला.

रांब हांगा, मजा कोरचां.

हेमं. : छे! छे! हांव सद्याक मजा कोरच्या मूडांतु ना गिरीश! आक्का कितलि काळजी करता की! केदना तिगेलें आणि त्या अनाथ पोरांलें तोंड पळयिन म्होणु जाल्यां.

गिरी : आरे, त्या हळयेंतु तूं दोनि दीस भित्तरी बेजारलो पळे. राब, तांकांचि हांगा ओपोवनु हाडयां.

हेमं. : राब्बोंवचे खंयि? शहरांतु राबतल्या आमगेल्या संबधिकांगेले घरांतु तांकांचि पाय मोकळे सोडणु निद्दोंच्याक जागो नपरो.

गिरी : देवा दयेनें ती अडचणि माका ना. येद्दे होडले रावळारशें घर आस्स.

हेमं. : तुगेंलो मांवु बड्डो घेवनु येद.

गिरी : हें मांवालें घर म्होणु लेकल्यावे तूंवे? भायर बोर्डु वाच्चने वे?

हेमं: : (हासतचि) वाचलो सायबा, आणि नांवापशी लांबि डिग्रियि वाचली.

गिरी : मगेल्या मांवाले आकलसरे ते. लग्नाच्या पत्रिकेरी थायि मगेली डिग्रि छाप्पिली तान्ने, पळयनेवे तूंवे?

हेमं. : (हे दिकाक त्या दिकाक फिरता. घरांतुलें फर्निचर नियाळनु पळयिता.) घर ग्रँड आस तुगेलें. मोस्ट अप टू डेट फेब्युलस. वाः वाः ह्या एद्दे होडले घराचो खर्चु, नौकर, चाकर, म्हणतना बराबरी खर्चु आसतलो!! उद्योगु कसलो करता सायबा?

गिरी : उद्योगु? सन-इन-लो ओफ माय् फादर-इनलो. कशी? मगेले देड वीत डीग्रेक साज्जशि आसकी ना डेसिग्नेशन?

हेमं. : (हासतचि) हाज्जो अर्थु?

गिरी : अर्थु, सगेलो मांवु लांबलचक डिग्री आशिलो जांवयि सोदतालो.

माका तितलोचि लांबलचक बँक बॅलेन्स आशिल्या मांवाली गरच आशिली.

हेमं. : होरडिके विषयांतुले तुगेले उदात्त विचार पूरा, घाटु चडले न्हयि म?

गिरी : तें प्रचितींतु हाडच्या बसल्यारि, हांवे स्वर्गारि चडका पडतलें-शिले. भांवनांकयि अनुभवु श्रेष्ठु हेमंत.

हेमं. आरे, इतले सान्न प्रायेरी, असलें ब्रह्मज्ञान खंयि थावनु शिकलो रे?

गिरी : पयलो पाठु जन्म दिल्लेलो बापसूनेचि शिकयिलो. तान्ने दिलेंल्ले. गायत्री मंत्रु, वाजप गाजपांतु सम कान्नांतु पडनेशिलो. हो मंत्रु ताप्पोंवनु दवरलेल्यो मुद्रोश्यो हृदयाचेरो बसल्याति. ताज्जेमिति एक मात्र फायदो जाल्लो पळे.

हेमं. : कसलो बा तो?

गिरी : मानु, अपमानु आणि स्वाभिमानु म्हणलेल्या त्रिविध तपांतुल्याने मुक्त जालों.

हेमं. : जोरु वेदान्त उल्लेंवच्याक लागलो मरे! माक्का तें मात्यावेल्यानें वोचुक लागल्यां सायबा.

गिरी : सादे शब्दांतु सांगचे म्हणल्यारि मगेले स्वभावाक परिस्थितीनें अशि थायि वळण मेळत गेलें की, तुका सोडी, मगेल्या आन्नाक थायि मगलो गुर्तु मेळचो कष्ट. गंगेच्या उदरांतु आशिल्यो मगेल्या आज्जाल्यो अस्त्यो तेमयि हळकल्लोळु करताति कितकी. कोरोति! हांव सद्याक आनन्दांतु आस. बरें-वायट, योग्य–आयोग्य –– वगैरे शब्द डिक्शनेरीथावनु स्ट्राइक ऑफ. मेळलेलें सुख भोगचें. होचि सद्याक मोटो मगेलो. कशि?

हेमं. : तूंवे आनंदांतु अशिलें पोळोवनु माकायि आनन्दु जांवकाशिलो. जाल्यारि सद्याक माका भारी खेदु जात्त आस.




गिरी : तुगेल्या मित्रानें सद्‌गुण अडवु घाल्ले म्होणु की मांव्हा विक्कूनु गेल्लो म्होणु?

हेमं. : ताजो लागुभागु पूरा तुगेल्या कॉनशनसाक–शिल्लक वरल्यारि हवे!!

गिरी : हिशोबु कोरुक फुरसति ना माका हेमंत. तुगेल्या बॉडांतु कसलें. कुसता सांगुनु सोडि.

हेमं. : न्हयि, तुगेल्या मांवाक लांबी डिग्रि आशिलो जांवयि मेळलो. तुका लांबूचि बँकबॅलेन्स आशिलो मांवु मेळलो; जाल्यारि पापाक-पुण्याक नातिल्या मगेल्या होन्येलि गति? दांत्या पावां मट्टेगति धान्य जायने मती बावडी?

गिरी : छे– छे– छे!! ती होड्डु घराण्याचि सून जालि म्हणलेल्या ब्रह्मानंदांतु आस. मगेलि बायल कोडीकेनालच्या कॉनव्हेंटांतु शिकिलि. तिगेल्यो क्लासमेट चलियो पूरा होड होड घराण्याच्यो. (अंतरंगानें) हिगेलो आनु कितलोयि दुडवाळु आशिलो तरी हॉटेलाचो मामु; मॅनर्स खंच्याने आसतले? तिका इत्ते लांछन दिसनावे? आत्तं तिगेल्या इंग्लंड रिटर्नड बामणाले अप-टु-डेट मॅनर्स पोळोवनु गारे गार जाल्याति, तिगेल्यो मैत्रिण्यो! हं----!!

हेमं. : एकूनु, तुगेल्या मतानें सगळीं तांग तांगेल्या मट्टाक संतुष्ट आसति, म्होणु जाले! जाल्यारि प्रितिचो मजभूत नेलगट्ट नात्तिलो हो संतोषु शाश्वत वरद वे?

गिरी : जीवनचि अशाश्वत! प्रीतिक भलतें महत्व दिवनु जीवनाचे तीन तेरा कोरनु घेंवचे मूर्खानि. तशि मगेलि बायल बोंबेशं आस रे. लाज मर्यादि चिके मिति मिकुनु! आचार-विचार सनातनि. पूजा-पाठ व्रत नेमांतु चड गोडि; तशि जावनु सगळो दीसु तिगेल्या सहवासांतु आसचे म्हणल्यारि चिके उबगणि येत्ता. बट आय् डोंट माईंड इट. मगेल्या मनोरंजना खातिर हांवे एकु जागो सोद्‌दूनु काडला.

हेमं. : कसलो बा तो?

गिरी : एकि आधुनिक मताचि मैत्रिणि!!

हेमं. : थूः तुज्जा जन्माक!! तूं इतलो लजभंड जांवनु वचशि म्होणु स्वप्नांतु येवजेनेशिलें हांवे.

गिरी : आरे–आरे!! तूंवे भलतोचि अर्थु कोरनु घेतलोसो दिसता. मगेलें मनरंजन करतलि एकि कुलीन घराण्यांतुलि विवाहित स्त्री सायबा!! तिगेलो बाम्मूणु मरीन इंजिन्नियरु. हांवे विलायते थावनु वापस येत्तना गुर्तु जालो. तो म्हैनेगटले बोटीरि आसता. बायल बावडि उबगता. हांव सदांयि तांगेरि वत्तां. तांगेल्या माक्षिच्या आंगणांतु टेनिस कोर्टु आस. तिज्जे सांगतणि एक-दोनि डाव खेळतां. तिगेल्या कंपनींतु वेळु कशि वत्ता म्होणु कळना पळे! तो अितलि कुळकुळी म्हणु सांगु तुका–

हेमं. : आरे पाप्या, मनाचि न्हयि जाल्यारि जनांचि तरी लाज दवरि रे. तिगेल्या बामणाल्या कांन्नारि गेल्लयारि आनेक नानावटी केस जायद मरे! तुगेल्या मांवाने, बायलेने, आयकल्यारि तुजि अवस्था कसलि जायद हाजो तूंवे विचारु केला की? लजभंडा, असले धंदे कोरचे आसल्यारि, होरडीक इत्याक वाडनु घेतलिरे?

गिरी : वाः रे वाः!! होरडीक कोरनु घेने जाल्यारि रीण कोण पावयतशिलें? त्यानंतां, हांवे कांइ तांका फसयने. 'माका मगेल्या कॉलिफिकेशना तकीत जॉब मेळलेल्या शिवाय हांव नौकरीक रावशिना' म्होणु सांगलें. "कांयि होडना म्हणालो. बेकार आशिल्यामिति सुमार रीण जाल्यां" म्होणु सांगलें. "मगेल्या धूवेने तुगेल्या गळ्याक माळ घालि कीं तुगेलें रीण मगेल्या गळ्याक" म्हणालो! हांव चिके मॉडर्न विचारांचो म्होणूयि सांगलें. "ताज्जें अगत्य रजिस्टर लग्न कोरनु घेतल्यांक मंत्रोक्त मायाबलें घाल्लें म्हणल्यारि लव आफ्टर

मॅरेज, नाक्का म्हणल्यारि जात्ता" म्हणालो मगेलो मांवु. आत्तं उल्लयि! बापरे!! शंभर वर्स आयुष्य पाव्याक! तो पळे, आयलोचि. सांगतणि, तागेलो मित्रुयि आस. मगेलि खानेसुमारी घेंवच्याक त्रिकाळ येत्ताति हांगा. आजि तेमयि ऋणमुक्त माक्का कोरचो आस खंयि तो. (पांडु-विनायक प्रवेश) मामा, हो मगेलो जानी दोस्तु हेमंतु! हेमंत, हो मगेलो मांवु पांडुरंगरायु आणि हो तागेलो पार्टनरु विनायकराव.

हेमं. : वेरो ग्लेड टू मीट यू (सेक हॅंड).

पांडु : खंयि थावनु आयलो?

हेमं. : फ्रंटारि आशिलो. रजेरि आयलां.

विना : आरमींतु आसकी? वेरी गूड, वेरी गूड! हांवयि दुसरे महायुद्धावेळारि आर्रमितूंचि आशिलो.

पांडु : खंयि मुक्कामु?

गिरी : मामा, हो मेस्सांतु राबचो आशिलो. आमकां लांछन न्हैवे तें? हांवे हांगाचि राबूक आग्राहु केलो. हागेल्या भैणीक, चेरडुंवां सहीत आपोंवनु हाडोंवच्याक सांगल्यां हांवे.गेस्ट कॉटेज तांका राब्बूक दिवयां न्हवे?

विना : (स्टेजाच्या तुरये येवनु) (स्व.) हो हागेलो गेस्टु! आनि तागेलि गेस्ट येंवचि आसनि! म्होणु, दिसाक पन्नास रुपयि भाडे मेळचो जागो अमृतपडि नंदादीपासहीत तांका सोडनु दिवका? हागेल्या घरांतु इत्तें जागोचि नावे? हं-----!!!

हेमं. : तुमकां नुसतेंचि त्रासु जात्ता कितकि

गिरी : छे-छे मगेल्या दोस्तांगेलें आदरातिथ्य कोरचांतु भारि संतोषु मानता मगेलो मांवु! न्हयि वे मामा?

पांडु : हः हः होयिबा. तुगेलेंचि घर म्होणु लेक.

विना : (स्व.) होटेलाचि पाटि काडनु धर्मशाळेचि लायि पाव्या.

गिरी : मामा, एंबेसेडर कार हाक्का वापोरुक दिवया न्हैवे?

पांडु : हांवे वापोरचें वे?

हेमं. : छे–छे– माका काराचें अगत्य ना.

गिरी : अगत्य ना? कसलें उल्लयिता तूं? तुका नित्य हॉस्पिटलांतु वच्‌चें पडतलें. भैणिकयि भोंवडांवचे आसतलें––––.

पांडु : आसो, आसो, वापरि तूं. कांयि हरकत ना. माका जारुरि पडल्यारि टॅक्सीने वच्चन हांव. टॅक्सीस्टँड इदरारी आस.

विना : (स्व.) स्वत.च्या बुद्धीनेचि ससार जात्ता मूर्खु ! शतमूर्खु ! !

गिरी : यो हेमंत. मगेलि फियाट दाकयतां. कितलेकी जान धा धा वरसं धोरनु वेटिंग लिस्टारि आसति. माक्का मेळनु गेलि पळे. थोडे कास चड दिवका पडले.

विना : (स्व.)हाज्जा आन्नालि गांटि मेकोळचे पडल्यारि कळतशिलें. हं थोडे कास खैं. डब्बल दाम दिल्यां.

हेमं. : बरें, येत्तां तशि जाल्यारि. हाक्का सानपणि धोरनु अशीचि अभ्यासु. कसलेंयि नवीन घेवो. माक्का दाकयत म्हणसरी मन तडवना.

गिरी : यो, वच्चां (वागलालागि वचून वापस येत्ता.) फायि हांवे होडि पार्टि दिवचि केल्या. तुम्मि दोग्गानी येंवकाज.

पांडु : आमंत्रणा खातिर थेंक्स्. जाल्यारि विनायकालो दुसरोचि प्रोग्राम आस्स. माक्कायि आमंत्रण दिल्यां.

गिरी : कस्लें हें कॅप्टनमाम? एक दीसु सुद्धांइ आमगल्या पार्टीतु येनाति.–––

विना : तुमचेसल्या तरने पोरांल्या मद्देगति, आडड्‌वण जांवनु येनात्तिलें खातिर आभारु मानि.

गिरी : भारी श्रूड आस तूं हं––––––यो हेमंत (वत्ताति).

विना : भारी सोक्कूला. पांडू, तूंवे अशि जांवयांलागि ससार जांवचे

माका कांयि हित दिसना पळे!

पांडु : ताज्ञे सलगीने उल्लयिल्यारि माका भारी हित जात्ता बा!

विना : कसले कर्माचि सलगि ती? मांवु म्होणु मर्याद दिंवचें बगलेक!
———उद्धटपण—————

पांडु : कांयि पुणी उल्लयिता. माका कोणयी भींवनु भिडेने उल्लयिल्याकयि, सलगीने उल्लयिल्यारि आपलोसो दिसता पळे! तो चिके चेष्टेखोरु—————

विना : चेष्टा, चेष्टा, म्होणु हगूर चेरे कोरुक सुरु केला ताने.

पांडु : पूरो रे, आत्तं चिके नेराने पड—

विना : नेराने पडल्यारी तुज्जे सांगतणि माक्कायि खाक्यांतु झोळिळ घालका पडद. ह्या नमुन्यानें खर्चु केल्यारि कुबेरालें भांडार थायि रित्तें जायद मरे! ताक्का चिके बुद्धीमार्गु सांगका की ना तूंवे?

पांडु : सांगल्यारि उपयोगु कसलो? सानपणि धोरनु चेरडुंवांक ह्दारि दवरका म्होणचे ह्याचि खातिर. बापसूने धाकांतु दवरलेलो होलवना. आत्तं माक्का आयकता रे तो?

विना : झक् मारि तशि जाल्यारि. मांवु भला, जांवयि भला!!

पांडु : तुक्का हांवे गुंडयेंतु देवल्यारि एक्कचि, घाट्टारि चडल्यारीयि एक्कचि———

विना : मेल्लों मरे तुज्या तोंडांतुं. आमगेलि मात्र लुकसान जाल्यारी होड ना, फायि त्या चलियेलि इत्तें गति जायद म्होणु येचना दिसता. हागेलिं लक्षणं चारि दिस भित्तरि कळलेलि माक्का. नाक्का ही सोयरीक म्होणु सांगल्यारि आयकने तूंवे. राव वहाद्दूरालो पूतु! फॉरेन रीटर्नड जांवयि मेळलो म्होणु हिग्गुलो. चलि दिलेल्ल्या मागिरि निदान अचकट्टारि पुणी दवरचो, —— ना धाई दीशा मोकळें सोडलें ताका.

पांडु : खरें सांगू विनायका, आतांकडे माक्कायिं तागेलें वर्तन कांयि सहन जायना. इतले वर्सांनि तागेल्या आन्नाचेरि सूड्ड घेतिल्या आनंदांतु आशिलों-----

विना : कसलें? तागेल्या आन्नाचेरि सूड्ड? तूंवे ताका दोळ्यांनि थायि पळयिलो ना आजिवरेक–

पांडु : मस्त काळ धोरनु पोट्टांतु खतखतेंवचें हें मगे़लें गुपित, तुगेल्या कान्नारि घालका म्होणु मन हळहळतालें. पयले पावटि गिरिशाने रस्त्यारि मेळलेल्या दिवसु मगेले जिब्बेरि आयिलें, वापस गिळलें-हांवे! खंयि अनूल्या कान्नारि वचद म्होणु भिल्लो.

विना : अरे पिश्या, तिगेल्या कान्नारि घालूक नज्ज आशिलि खब्बरि हांव केदनायि घालीन रे ?

पांडु : (गंभीर स्वरांतु) अनिताल्या आवसूक पळयिलि की तूंवे?

विना : आणि – – अनूल्या बारश्याक मुद्दाम रजा काडनु आयलों मरे. अनिता म्होणु नांव लगेन हांवेंचि सुचैलें, विसरलो वे?

पांडु : होईरे, होईरे! !

विना : आजि एका एकी सीताबाईलो उगडासु जाल्लो इत्तें तुका?

पांडु : तिगेलो विसरु केदनायि पडशिना माका हं---- सांगल्यारि विश्वासु दवरशिकी? आमि पोळनु वचूनु होरडिक कोरनु घेत्तिलि.

विना : पोळनु वचशि कसलें संकष्ट आयिलें बा तुज्जेरि?

पांडु : देवाल्या दयेने संकष्ट कांयि येनेशिलें. मगेलो धंदो वरो चलतालो. हात्तांतु चारि कासयि जाल्लेले. म्होणु धैर्याने तिगेल्या भावालागि मागणि घालि तिका! ताणे माका गळ्याक बोकांदो घालो "हौ डेर यू" म्हणालो "उस्सळ" म्हणालो. हांव उस्सळलों –– तागेल्या भैणिक घेंवनूचि.

विना : ती तुज्जे सांगतणि पोळनु वोचूक कबूल कशि जाल्ली बा?

पांडु : तिक्का मज्जेरि प्रीति आशिलेमिति. आम्मि तांगेले औट हौसांतु रावतालिं. सानपणि धोरनु सांगतणि खेळळलिं. प्रायेक येनाफुडे प्रेमांतु पडलेंलि.

विना : आबो, तुका पळयिल्यारि तूं इतलो रोमँटिक आशिलो म्होणु कोणयी विश्वासु दवरशिना.

पांडु : मगेलो रोमान्सु पूरायि तीगेल्या सांगतणि भस्म जालो.

विना : जाल्यारि तिगेल्या भावाने तुका तश्शि अवमर्याद कोरचें कारण कसलें?

पांडु : रांदप्याल्या पुताने रावबहादुराल्या धूवेक मागणि घालनु, तागेलि अवमर्याद केल्लेल्या खातिर.

विना : कसलें करडांतु पणसु कोच्यायिल्यावरि उलयिता तूं?

पांडु : मगेलो आनु, हांवे उबजुंवच्या फुडे तांगेरि रांदपाक आशिलो खंयि. रांदप्याल्या पुत्ताक होरडीक कोरनु घेवनु, तांगेलो नांकाचो कुडको काडलो न्हयि वे तिने? त्या दीस धोरनु तिगेलें नांव थायि वर्ज केल्यां तानि. तिगेल्या आवसूल्या मरणकालारि तेमयी हृष्टि भेटीकथायि येने पापि! अनितानें पोट्टांतु आसतना ती भारी अशक्त जाल्लेलि आपणालि आशाचि सोडनु दिल्लेलि कर्माचिने. लग्न जावनु आट वरसं जाल्लेलिं. त्या वेळ रि तिन्ने भावाक एक कागद बरयिलें. एक फांता येवनु तोंड दाकयि, आनि भौणिलो दुवाळो पूरैसूयि म्होणु. जवाब थायि दीने दुष्टाने. तीचि एकि खंतिशि जालि तिका. दिसानु दीवस क्षीण जायत गेलि. तांतुचि अनूक सऽ म्हैंने म्हणतना टायफॉइडाने पडलि. डॉक्टरांनि आशा सोडलि. एकसम भावालो ध्यासु धरलो बावडेने. हांवे स्वाभिमानु गीळनु एक कागद बरयिलें ताक्का. वाच्चुनु फात्तोरु जाल्यरीयि करगतशिलो; जल्यारि तो येनें. ती गेस्लि.

विना : असलो दोळयांतु रगत नात्तिलो भावु कोणु बा तो?

पांडु : गिरीशालो बाप्पूसु.

विना : (उडुनु पडता) आँ?—— गिरीशालो बाप्पूसू?

पांडु : होयि. तिका अग्नि दित्तना मगेस्या अंतर्यांतु सूडाचि ज्वाला पेट्टिलि. संधि मेळनेशिलि.

विना : गिरीशाने पाय्यामुळाक हाडनु दिलि. बापसूचेरि सूडु घेंवच्याक पुस्ताक तुगेलि धूव दिलिकी? आत्तं दोळ्यांचि परब पुरैसुलि न्हवे? (पांडु मात्यारि हात घंवनु चिता करता) देवाल्या दयेने मात्यारि हातु घेंवचो कालु येने येद्दोळु. तूंवे चिके कडक राबस्यारि नाक्का म्हणल्यारी ताळेरि येत्तलो पळे तो. अवलक्षण खंचें!! काडितो हातु मात्यावेलो. ती पळे अनु आयलि. (तागेलो हातु काडता.)

अनु : (प्रवेश) आरे, विनुकाका, आनु! केदना आयले तुम्मि?

विना : आत्तं मात्र आयिले गो बाळा. आजि हांगाचि जेवणाक आयिस्याति गो ————

अनु : भो बरें जास्ले. माक्का येकळाक कळयिस्यारि तुगेस्या प्रितीच्यो रांदयो करतशिलि म!

पांडु : पळे रे विनायका! तुज्जेरि कितलि प्रीति मगेस्या धूवेक. माका कसलें प्रीति म्होणु गोत्तुथायि ना बावडेक.———

अनु : इत्याक गोत्तू ना म्हणलेलें? जाल्यारि माका तूं म्हणल्यारि भो प्रीति म्हणु, तुका प्रीति आशिलें करना

पांडु : तुक्का हांव प्रीति म्हणु, माका प्रिति आशिलें करना? कसले हुम्मणें हें?

अनु : आन्ना, तुका गोडशें म्हणल्यारी जीवु की प्राणु. आणि तुजसस्या डायबिटीसांच्याक तें खांवयतलि दुस्मान तुगेलि. आजि वग्गि उटांवनु खंयि वोचचें की बा?

पांडु : उद्योगु नात्तिलो आचारि! आसतलो गेरेजांतु, काराचो स्क्रू

तिरपीतचि.

अनु : आन्ना. तीं दारलेपणाचिं लक्षणं न्हैवे?

पांडु : हं:!! दारलेपणाचीं लक्षणं आशिल्याने कसलो उद्योगु-धंदो कोरये न्हैवे! अशि वेळु व्यर्थ कोरचो वे?

अनु : ना बा! सर्व कलांचि गोडि आस्स. पेंटिंग कोरचें. गोमटयोचि कविता रचसूंवचो. एकि घडि थायि नेराने बोसचे ना बा.

विना : पिशे, तें सगळें बायलो करनाति वे?

अनु : तशि म्हणल्यारि बायलो एस्ट्रोनोटस् थायि जात्ताति.

पांडु : अनू, विनायकु शालजोडयांतु दित्तचि आस तुका, तुगेलो बाम्मूणु माका रसातळाक पेटयितलो म्होणु वॉर्निंग दित आशिलो तो एद्दोळु.

विना : गिरीशाक खर्चु चिके हाळतारि करि म्होणु बुद्धीमार्गु सांगका-गो तूंवे.

पांडु : ताका आयकुंवच्याक फुरसति आसका न्हैवे.

विना : तें व्हयि म्हणा. सकाळीं-सकाळीं म्होणच्याकयि धोनपारां म्होणये उटायत लागायत मध्यरात्रि मोरुन गेल्यारीयि कर्मांच्याक क्षणाचि फुरसति ना. केदना देक अंवसरांतु आसता बावडो.

पांडु : दुड्डु बाट्टेक लांवचे अंवसर. कमायसूंचि कसलीयि वृत्ति कोरचो हुसको ना.

अनु : आजि अशि इत्याक उल्लयिताति वा तुमी? नेराने बोसचें जायने. कामाचिं प्रयत्न करत आसचें.

पांडु : पैरि हांवे वशिलो लांवनु एक प्रख्यात फर्मांतु पेटयिलो. तें जॉब इत्याक घेने खंयि गो?

अनु : आपणापेक्षा उणे शिकिल्यांगेल्या अंडर काम खंयि तें. स्वाभिमानुयि सोडका म्हणता वे आन्ना?

पांडु : त्या शब्दाचो अर्थु विचारि गो ताका.

अनु : आन्ना, मज्जे इदारारि पुणी अशि उलौंवनाका रे. (सटकने किटकेलागी वोचुनु तोंड निपयिता.)

विना : (तिज्जे फाट्टीमाक्षी उब्रोवनु) तूँ बेजारनाका मा. आजि न्हयि फायि, खंयी चांगि नौकरी मेळतलि. चेरडपण, तांतूयि फॉरेनाक वचूनु आयला. मात्यांतु चिके वारें आसचें सहजचि.

पांडु : कान्नांतु वारें रिगल्यां म्हण.

विना : आस्सोरे, आस्सोरे! संसारा चाणे खायनाफुडे नरम जातलो. अनु, तूंवे चिके बुद्धिमार्गु सांगका गो मा.

अनु : बामणाक बुद्धीमार्गु सांगचो अधिकारु बायलेक आसवे विनुकाका?

पांडु : मगेलो—पर्यायाने तुगेलो दुड्डु, तका सगळो अधीकारु दित्ता.

अनु : हंः ! दुड्ड ! दुडवाने माया आनि मर्याद विकत मेळत जल्यारि निजप्रीति त्यागा शिवाय मेळना आना! हांव एक ना एक दीसु ती मेळयतलि म्हणलेंलि आशा———

विना : म्हणल्यारि ताका तुजेरि प्रीति ना म्होणु लेकतावे तूं?

अनु : ना बा! (मात्तें तग्गु)

विना : ना-बा! म्हणतना तोंड इत्याक निप्पयिता बाळा? तो तुगेलो तिरस्कारु जावो करता वे?

पांडु : व्हयिगो—खरें सांग हांव समचि बुद्धि शिकयितां ताका.

अनु : (भिवनु) कांयि पुणी अर्थाचो अनर्थु कोरनु घेताति (स्वरु कंपीत) हांवे म्हणल्यावें तशि?

विना : आनि कसलें म्हणता पोरी तूं? मन मोकळेंचि कोरनु उल्लयि. आमच्यालागि निपवण केल्यारि कोणालागि सांगतलि तूं?

पांडु : आमि दोग्गांनीयि जिवंत आस म्हणसरि कोणाक भिवका म्होणु ना तूंवे. तुगेलें मनाक कसलि खंति आस, सांग आमकां.

अनु : माक्का इत्याक कसली खंति आसतली? मजलागि प्रीतीनें आसचें बा.

विना : नविन हात्तांतु मेळलेल्या गोमटं खेळण्यावारि; न्हैवे? कसलें महत्वाच्या विषयांतु तुगेलि अनुमति विचारताकी तो?

अनु : ना. आनि तें फक्ता मगेल्याचि ऐबामिति. हांव, सरी समान जांवनु वादविवादु कोरुक शक्कनात्तिलें मिनि.

विना : इत्याक शकना म्हणलेलें? तूं इत्तें अशिक्षित, की हेड्डु? तूंवे ताजेलागि सलगीने, मनमोकळें कोरनु उलोंवका मा!

अनु : अंतर्यांतुल्या भावनांक उत्तेजन मेळलेल्या शिवाय, त्यो उच्चारुक जायना विनुकाका! मगेलें भिज्जुडपण----

पांडु : तुका भिसडायतावे तो? (उटांवचाक बत्ता विनायकु आड्डायता)

विना : बामणालागि उलोंवचाक भीड, भीति कसलि गो पोरी?

अनु : हांव अनेक वेळा उल्लोंवच्याक प्रयत्न करतां. जाल्यारि ताळ्यांतुलि उत्रं जिब्बेरि येनाति. हांव भबक्याक किंवा लांब लांब डिग्रींक भूलनु, कॉलेंजाचो मेट्टु दांटुवच्या फूडेंचि, मांटवेचो मेट्टु चडलेलि न्हयि. हांव भुललि हांगाच्या उत्रांच्या चातुर्याक, खुशमस्करी स्वभावाक, कलाकौशल्याक आणि पॉलिशड् मॅनर्सांक. हें सगळें कशि सांगचे? शब्दु उच्चारच्या फूडेंचि, चेष्टा कोरनु, तोंड बंद केल्यारि कशि उल्लोंवचे?

पांडु : ताज्या चेष्टेक म्हणन नाका.

विना : चेष्टेने न्हयि तें, तुगेल्या उत्रांतु गोडि दिसनातिलेमिति.

पांडु : सगळो दीसु तूं तागेल्या दोळ्यांइदरारी आसता जालेल्यामिति, तुगेल्या उत्रांतु गोडि दिसना नाका. दीसभरि काम कोरनु दणूनु घारा येत्तल्या मनुष्याकचि, बायेलेल्या उत्रांचि गोडि कळचि.

अनु : खरेचि वे विनुकाका?

विना : होयि बाळा. पंचभक्ष परमान्न जाल्यारीगि, सदांयि सकाळि सांजे खेल्यारि अबकि येत्ता. "उद्योगं पुरुष लक्षणम्" म्हणताति. उद्योगु नात्तिलो उब्रगणि काडूक आड मार्गारीयि वाचूक फाव जात्ता

पांडु : ताका कशिपुणी कोरनु उद्योगाक लांवचे, तुगेलें कर्तव्य. तुगेल्या

आवसूचेरि हांव इत्याक प्रीति करतालों गोत्तु आस वे? दीसु भरि तिगेल्या बद्दल विचारु कोरुक फुरसति मेळनात्तिलेंमिति, घारा येवनु तिगेलें तोंड पळयिलें की, आजीजि होरडीक जावनु आयिलि हॉक्कलशी दिसतालि ती माका. तिगेल्या सहवासांतु सर्व श्रम परिहार जात्ताले.

अनु : कसलें कोरका जाल्लें बा हांवे? कांयी सुच्चानाम माका.

पांडु : तूंवे कांयि कोरचें नाका. हांवंचि सांगतां ताका. मात्र तुम्मि दोग्गांनी फाटबल दिवका माका.

विना : तो पळे आयिलो. केदना काडता सायबा हो प्रश्नु?

पांडु : जेवणानंतर. उपाशी पोट्टारि महत्वाचो विषयु उलोंवच्याक नज्ज. (गिरीश-हेमंत प्रवेश. पांडु आति विनायकु पेपर वाच्चूक बसतात्ति.)

गिरी : अनिऽऽ ता--! आरे, हांगाचि आस्स तूं? हांव केदनायि हेमंतु हेमंतु म्हणतालों न्हयि-होचि तो. हेमंत, ही मगेलि घरकारणि.

हेमं. : नमास्कारु (गिरीशाल्या कान्नांतु) वॉट ए लकी चॅप यू आर!!

अनु : तुगेल्या बद्दल हांगाथावनु सांगिले आयकूनु, तुका केदना पळैन म्होणु जाल्लेलें.

हेमं. : प्रत्यक्ष पळैनाफुडे मात्र, मारि केदना एकफांता निवाळसूनु वचद म्होणु दिसना जाल्यारि पूरो.

गिरी : अनिता, हेमंतु म्हैन्यच्या रजेरि आयला. पूरायि रजा हांगाचि खर्चूंक्का होणु हांवे मस्त आग्रहु केल्लो. तो कबूल ना. तूं पुणी समजायसूनु पळे.

अनु : व्हयि, राबयेद न्हैवें?

हेमं. : ना— मगेलि भैणि रातिदीस मगेलि वाट पळयितलि. जरुरी पेक्षा एक क्षण चडावत राब्बूक साध्य ना.

गिरी : तुका सीक लीऽहारि पेटयिला मरे, रजा वाड्डोवयेद---

हेमं. : देशाचेरि बिकट परिस्थिति आयिल्या तावळि स्वार्थाच्या खातिर रजा वाडुोंवचे?

विना : शाभास! कसले उदात्त विचार! न्हयि जाल्यारि आजि कालचे तरुण, मौज मजा कोरच्यांतुचि आपणालें अर्धाअधिक जीवन व्यर्थ करतातिं!!!

गिरी : (हेमंताल्या कान्नांतु) उंदराक मारलेलो बाणु विघ्नेश्वराक रे (आपणादिकाक बोट करता) (बागलाचि घंटा. मेरी भित्तवेल्याने उघोडूक वत्ता. एक पेंटिंग घेवनु येत्ता.)

मेरी : (गिरीशाक) धनयानू, हें पकया. कोणशें धाडल्यां खंयि तुमकां.

गिरी : (आनंदाने) हांगा हाडि. ह्या खिटके इदरारि दवरि. (ती दवोरनु भित्तरी वत्ता.) हेमंत, हांगा यो, हें चित्र कशि दिसता पळे? (हेमंतु वोचून चित्र पळयता.)

हेमं. : ब्यूटिफुल!! मोस्ट ब्यूटिफुल!! पळे, होनिये, हो सूर्यास्तु कशि हुबेहुब रंगला!

अनु : (लागी वोचूनु) खरेंचि! प्रत्यक्ष सूर्यास्तूचि पळैत आशिल्लो भासु जात्ता. आजु बाजूचें वातावरण कशि शांत आणि सुखदायक दिसता! गांवाच्या भायल्या त्या थंड हवेंतु, भोंवच्याक वचचें आकलस दिसतातिं.

पांडु पळयिलें रे विनायका, उडपी हॉटेलाच्या, उपेंद्र शेट्टीक पद्मश्री दिलि खंयि.

विना : कसले खातिर बा?

पांडु : आयक, (वाचता) एकोणिशे पासष्ट सालांतु, पुणेंतु हिंदु-मुसल-मान कुटुंबांक आपणाल्या जीवाचि किंवा मालाचि पर्वा करना-त्तिले आश्रयु दिल्लो. वगैरे वगैरे----

विना : वाः वाः!! तरी आत्तं आमगेल्या देशांतु मानपत्र, पदव्यो मेळों-वच्याक उच्च शिक्षणाचि किंवा नामांकीत पितरांगेलि जरूरि

ना म्होणु जालि.

गिरी : (स्व.) आजि बाणावैरिबाण येंवच्याक लागल्याति. (प्र.) हेमंत, हो मंदमंद दिसचो पाचवो प्रकाशु पळे रे. क्षितीजाच्या नारंगी आणि वरलेल्या आकाशाच्या नील वर्णाच्या मद्देगति कशि मजेदार रंगला.

हेमं. : ग्रँड! वेरी ग्रँड!! ऐक्सलँट!!!

गिरी : तग्गु उदाकावेलें प्रतिबिंब पळे रें कशि हुबेहुब उदेल्यां! हाका म्हणताति आर्ट. (पांडु हगूर उटायता.)

पांडु : (चित्रादिकाक पळयता) विनायका, कसलें चित्र रे हें? (विनायकु चित्रालागी वचूनु तें नियाळता.)

विना : वा: रे वा!! वसंत ऋतुंतुलो संध्याकाळु. सुतलू फळझाडांनि भरलेलि वनश्री. भारि आल्हादकारक दिसता.

पांडु : हें कसलें कर्माचें आल्हादकारक म्हणलेलें? मगेल्या बैठकीच्या कूडांतु लायिलें चित्र पळयनेरे तूंवे? मगेल्या हॉटेलांतु एकु कलाकारु राब्बिलो. भाडें भोरुक कास नातिलेमिति, तें चित्र दीवनु गेलो; विषयु सादोचि. एक सूणें समुद्रावेळेरि एका खला-शाल्या टोण्ये इद्रारि बसल्यां. समुद्रादिकाक पोळोवनु दीन वदनानें भोंकत आस. पळयिल्यारि तागेल्या भोंकण्याचो ध्वनि आयकूक येत्ता की म्होणु भासु जात्ता. त्या सूण्याल्या तोंडावेल्यो चित्रीत जालेल्यो भावना पळयिल्यारि तेमयी दोळयांतु उद्दाक येत्ता.

गिरी : ओ: हो: ! दोळयांतु उद्दाक हाडोंवचि चित्रं तुका इतलीं आवड नाति कीं? हांव काडनु दित्तां तुका. एक टेबलारी चारि आद्दी केलेल्लो एकु कांदो, वगलेक तो काप्पिलि सूरि बस! विषयु सादोचि, जाल्यारि पळयतल्यां दोळयांक कांद्याचो कमरु वचूनु भसभस उद्दाक येंवका (अनिताक तान्ने उल्लयिलें मनांतु येना. ती सटकने उटांवनु किटकेलागि भायर पळयत उब्रता. हेमंतु गिरीशाक दोळे होड्डु कोरनु दाट्टायता.)

विना : (पांडुलागी अंतरंगाने) पळयिलें रे, कशि तुगेले चेरे करता तो?

पांडु : (दांत वट खावनु) तीनि कासांचो! कोरो कोरो, हांव समचि उल्लोंवचाक शिकयतां ताका. (घट्टी) गिरीशा, कोणालें रे तें चित्र?

गिरी : एक गरीब कलाकारालें. कसब आस कर्माच्यालागि, कास खंवस!

पांडु : कितले कास दिल्ले तूंवें?

गिरी : फक्त पांयशि रुप्पयि.

पांडु : पांयशि? गुर्तु अर्थु नात्तिल्या पंचभिकाऱ्याक पांयशी रुप्पयी दिल्ली? तुका तागेलें तितलें पाप दिसल्यारि पांच रुपयो हातारि घालयेशिल्योमरे!

अनि : आन्ना– आन्ना-----

पांडु : दान कोरचें जाल्यारि सत्पात्राक कोरका.

गिरी : सत्पात्र म्हणल्यारि तुगेल्या भिक्कंभट्टा असलो वे? रेसाघोड्याक, बेट्टं लावनु रुद्राभिषेक कोरुक येत्तलो. बूक पळयिले शिवाय अष्टोत्तर म्होणूक येना पाप्याक. रेसाच्या धोड्यांगेल्यो पेडिग्री थाय पाठ. तसल्याक दान दिवच्यापाशी, गरीब कलाकाराक प्रोत्साहन दिवचें सत्कार्य न्हयि की?

पांडु : कलाकारांक प्रोत्सहन दिवनये म्हणने ह्रांवें. तांकां अशि, देक मेळलेल्या तशि दुड्डु दिल्यारि, तांगेल्या व्यसनाक प्रोत्साहन दिलेल्यावारी जात्ता. एकेक आर्टिस्टांगेल्यो खबऱ्यो आयकल्यारि ह्रा ह्रा नाक्का. चल्लियेचेरडुंवा इद्रांरि उल्लोंवचें थायि न्हयि.

गिरी : तूं तसल्या खब-यांचेरि विश्वासु दवरता वे?

पांडु : दवरनात्तिलें! प्रत्यक्ष ह्या दोळयांनि पळयिल्यां म्हणलें. ह्गल वेसु पळयिल्यारि ताका. आट्टाट दीस खाड काडनु घेंवचें ना, न्हाण ना माक्कण ना. लाग्गी आयिल्यारि घुम्मने घाणी. गोऱ्या-ची की मेंटाची की, मांगूक जायना. तांका पळयिल्या तमाक हांव रुम खालि ना म्होणु सांगता.

विना : पूरो रे विस्तारु. अनु, आमकां पोट्टाच्या थंडायेक कांयि पूणी दित्ता की?

अनु : भित्तरी वोच्चचां तशि जाल्यारि (सगळीं उटायतानि.)

(पडदो पडता.)

**दुसरो अंकु समाप्त**



## अंकु ३

(सीन : १लें) स्थळ :- गिरीशाले घर (२ऱ्या अंक्याचें) गिरीशु आनि हेमंतु जेवण कोरनु हात पुसूनु घेत्तचि भायर येत्ताति.)

गिरी : हेमंत, कशि दिसलो तुक्का मगेलो संसारु? हें मगेलें आरामोशीर घर, रूपगुणसंपन्न गृहिणी, धनसंपन्न मांवु आणि मायस्तु पोसको मांवु. (पांडु–विनायकु गिरीशालीं उत्र आयकतचि विग्सांतु तडवताति.)

हेमं. : रम्य, अति रम्य! तुजे असलें भाग्यवंत जगांतु दुर्मिळ (हगूर) तुगेल्या शोभित संसाराक कोणाली दृष्टि लागद म्होणु की कसलें की तुगेली बुद्धि मात्र काजळा बोट्टु----

गिरी : शट अप हेमंत, तुगेल्या उपदेशानुसार हांवे आजि धोरनु आदर्श पति आनि आदर्श जांवयि जांवचो मुहुर्तु करतां. (पांडु–विनायकु खुर्चेरी बसताति.) मामा, तुका फुरसति आस की? तुक्कायि कॅप्टनमाम? (अनिता फ्रुटसांचे ताट घेवनु येत्ता. सगळ्यांक वांटता.)

विना : (स्व.) आजि इत्तें हो आमकां मस्का लायता. (प्र.) आमि हाजर आसति; तुगेलें कसलें, काम कोरका, तो हुकूम करि, जांवयि सायब.

गिरी : (हासतचि) थँक यू फोर द ऑनर काम मगेलें, तुमि कोरचें न्हयि. मगेल्या मात्यरि तुमि चडयिलि उपकारांचि वज्जि चिके तग्गु देवरोंवचाक, ताजि किंचित परतफेडी कोरुक, तुमि माका सहायु कोरका.

पांडु : (आश्चर्यांने) खंच्या रीतिनें?

गिरी : मगेल्यामितिं तुमकां कसलोयि सहायु जायशि आसल्यारि सांगका.

विना : तुगेल्या ह्या उदार बुद्धीचो आमकां भारि अभिमानु दिसता तुर्त ताज्जे आवश्यकता ना.

पांडु : प्रत्यक्ष रीतिनें ना होयि. जाल्यारि अप्रत्यक्ष रीतिने कोरयेद म्हणा.

अनु : (हासतचि) प्रत्यक्ष जावो अप्रत्यक्ष जावो संतोषाने कोरचें जातलें. कसलें म्होणु सांग आन्ना.

पांडु : सुमार दीस धोरनु ह्या विषयांतु तुजलागि उल्लोंवका म्होणु लेकतां हांव.

गिरी : उल्लयि, उल्लयि.

हेमं. : तरी हांव थोडो वेळु पाय मोकळे कोरनु येंत्तां. जेवण भारी जड जाल्या.

पांडु : तूंवेयि हांगा वसल्यारि चांग आशिलें. गिरीशाक कांयी तूं परको न्हयि. तागेल्या भविष्याच्या विषयांतु हांव उल्लोंवचो आस. हें एक कौटुंबिक संमेलन म्होणु लेक.

गिरी : हरें राम! ! दोस्ताल्या इद्रारि मगेलि मर्याद मात्र काडनाका मामा.

पांडु : तुगेंलि मर्याद काडूक तूं मगेलो दुस्मानुरे? चेंरडाकयि चड तूं माका यो बैस हांगा. (गिरीशु बावडें तोंड कोरनु बसता.)

गिरी : सांग मामा. आयकतां.

पांडु : चिके तावळि मगेल्या धूवेक होरडीक करवनु आपण सुखी जाल्लो म्हणाल्लो तूं; आयकूनु हांव कृतार्थ जाल्लों. चलिये चेरडुं योग्य मनुष्याक ओपमुनु होडु जवाबदारेंथावनु मोकळों जाल्लों हांव. आत्तं तुगेल्या संसाराचि पुरायि तूंवेंचि ओपसूनु घेतल्यारि हांव निश्चित जांल्लों.

गिरी : अवश्य. अवश्य.

पांडु : तुका होरडीक जावनु सुमार काळ जालें. हनिमूनाच्या निमित्त सगळें हिंदुस्थान म्हणशि फीरनु आयलो मौज केलिल, मेजवान्यो जाल्यो. पोळोवनु माका संतोषु जालों. आत्तं तूंवे कसलोयि उद्योगु–धंदो कोरनु ह्या इतलो होडु व्यापाचो खर्चु स्वतःल्या

खांद्यारि घेतल्यारि अप्रत्यक्ष रीतिने मजेरि भारि होड्डु उपकारु जायद.

विना : योग्य! लाखांतु एक उत्तर! लाखांतु एक उत्तर!!

गिरी : (स्व.) बापरे, रामायण सांगूनु महाभारताक सुरु केल्लों हान्ने. आत्तं बचावु ना. (प्र.) तूंवे म्होणचे बराबरि माम्मा, हांव त्याच्चि खटपटींतु आस.

पांडु : तूंवे कसकसलिं आनि खंयि खंयि केल्या, सांग आयकूंवयां.

गिरी : (नरव्हस) केदना, आजिवे?

पांडु : आजि, काली, किंवा फायि म्हण. मुखारि कसलें कोरका हें ठरोवनु आसका तूंवे.

गिरी : कालि केल्लेंलेंच्चि आजि करीत आस. आजि केल्लेलेंच्चि फायि कोरयां म्होंणु ठरयिल्यां. (पांडु-विनायकु कोपाने गुरगुरताति, हेमंतु चडफडता, अनिता नरव्हस जावनु हें काडले. तें दवरलें करता) माका समच्चि सोडोंवनु सांगूक येना पळे. इतलें मात्र सांगतां की मगेले भविष्य वर्तमान कालावारीच्चि चल्यारी देवु पावलो म्हणतां.

पांडु : म्हणल्यारि, तुगेलो मधुचंद्रु आचंद्र पर्यंत चल्यारि पूरो म्हण-तावे? कितलो अल्पसंतोषि रे तूं!

विना : इच्छा कांयि वायट ना म्हणा.

हेमं. : मगेलो दोस्तु च्चिके हेपी गो लकी स्वभावाचो----

पांडु : आस्सूक फाव आस. जाल्यारि इतले कष्ट कोरनु रीण काडनु शिकिल्याचो उपयोगु कोरका न्हवें?

विना : बरोबरि, बरोबरि, मनुष्यांक उद्योगु हें एक होड भूषण जावनु आस.

अनि : "आलस्यंही मनुष्याणां शरिरस्तो महारिपुः" म्होणु संस्कृतांतु एक सुभाषित आस. निरुद्योगी मनुष्यांनि मनोरंजनाखातिर नाना

थराच्या व्यसनांतु पोडनु संसाराचे तीन तेरा केल्लेलि कितलींकी उदाहरणं आसति.

गिरी : आबो, मगेल्या बायलेक वेदांत उल्लोंवच्याकयि कळता हं----! इतलि गोमटी आनि चतूरि बायल आसतना हांवे तसले उद्योग कोरचि जरुरि कसली?

अनु : चोविस तास हांगाचें मनोरंजन कीरचें तितलें चातुर्य ना मज्जांतु.

गिरी : तरि तुगेल्या उत्रांचो अर्थु कसलो गो? हांवे कसलें कोरका म्हणता सायबिणी?

अनु : हांगाच्या मित्रावरी----

गिरी : मिलिट्रींतु भ रति जांवु वे?

अनु : इत्तें जाल्लें? देशसेवा पुणी जात्तलि.

विना : तुका मिलिट्री लाइफ पसंद ना जाल्यारि तुगेल्या विद्येक अनुरुप आशिलो कमलो धंदो अथवा नौकरि कोरयेद न्हसे तूंवे?

गिरी : हांव दीसु राति त्याचि प्रयत्नांतु आस. तुमगेल्या टायपिस्ट विश्वनाथाकचि विचारि, हांवे कितलि एप्लिकेशन्स केल्यांति म्होणु.

विना. : विचारचि जरुरि ना. कमलें अर्जंट बिल्ल टाइप कीरुक सांगल्यारि तुगेलें काम ताज्जाकयि अर्जंट आस्स म्होणु मणता तो. वैल्याने एकु असिस्टेंटु दिनेजाल्यारि तितलि. एप्लिकेशन्स सर्टिफिकेटांच्यो कॉप्या काडूक पुरैसूना म्होणु इशारो दिल्ला ताने.

पांडु : वट्टायेरि तुगेल्या नौकरीच्या शोधांतु अमि आनेकु नौकरु दवो-रका म्होणु जाल्लो. आस्सो--होइरे इतलि मगळी एप्लिकेशन्सं टाइप कोरनु खंयि पेटायिलि तूंवे?

गिरी : तें तुमगेल्या डिसपेच्च क्लारकाक गोत्तु. टेलिफोन डिरेक्टरींतु पोळोवनु सर्व होड होड फर्माक एकएक पेटयि म्होणु सहो कोरनु दिल्यांति ताज्यालागि.

पांडु : एकळयालि पुणी जवाब आयल्या की?

विना : तो पापि डिस्पेचक्लार्कु स्टँपाके दुड्ड किशांतु घालनु एप्लिकेशन वेस्टपेपर बास्केटांतु यालता की कसलें की.

गिरी : छे! छें!!! तो विश्वासपात्र ना जाल्यारि तुम्मि ताका नौकरीक दवरतलिं शिलीं की? जबाबो येत्ताति खैंयि· तुमगेलो सेक्रेटरी सुब्रमण्यु सांगतालो.

पांडु : जवाबो आयल्यारि त्यो तूं वाचकावे?

गिरी : स्टिरियो टायप जबाबो त्यो, रिग्रेट–देअर इज नो वेकनसि, ब्युविफिटिंग युवर कोलिफिकेशन्स्. त्योचि त्यीचि वाचत बैंसूक दुसरो उद्योगु ना वे माका?

विना : (स्व.) कोण ना म्हणता? मांवांगेलो दुड्डु वाट्टेक लांबचो आसकी–

अनु . म्होणु अशि नोळयत बसल्यारि——————

गिरी : तरि वोचुं वे कारकुनी कामाक?

पांडु : बेकारीपेक्षां कांयि वायट न्हयि–

गिरी : आयक रें हेमंत, मगेलो शेणजो पानिपत युद्धांतु ब्रिटीशांलागि लडत–लडत वीरस्वर्गाक पावलो; पुणेच्या पेशव्यांगेल्या दरवारांतु मराठेशाही शाबित दवोरुक जुंजून–झुंजून रणांगणांरि पडलो; आंज्जो ब्रिटीश मालाचेरि बहिष्कारु घालच्या (सत्याग्रहांतु) तदंगांतु गोळीबाराक बळि पडलो; आन्नाने बापसुलि बलि घेतिल्या ब्रिटिशांगेलि सेवा करीशिना म्होणु न्यायासनाक राजिनामो दिलो, जैल भोगलो, इत्याक? पुत्ताने केलेलि कारकूनी पोळोंवका म्होणु.

पांडु : आयक रे हेमंत, हांवे तीस वर्सं दीसाक बीसतास घोळनु, पोट शीस बांदूनु चारिकास वोट्टु केल्लेले, त्या कर्तुत्वशाल्यांगेल्या ह्या कुलदीपकानें साधेंचि हांतुळण आंटाक अडचद म्होणु डनलॉपाच्या हांतुळणारि दीसु भरि लोळलेलें पोळोंवच्याक म्होणु हं–

हेमं. : अशि सगळें उल्लयिल्यारि उपयोगु कसलो? डोन्ट कॅस द सेडो, कॅस द सपसेन.

विना : गिरीशा, हांव कांयि विलायत फिलने, तुक्काचि चड गोत्तु आस्सुक फाव आस. थंयि होड्ड होड्ड फर्माचे मालक स्वत:ल्या चेंरडुंबांक लगेन विद्येने पात्र आशिल्या तरी अनुभवा खतिर कनिष्ट जाग्यारि धोरनु कामाक सुरवात करयताति म्होणु आयकतां हांव होइ वे तें?

गरी : थंच्या आनि हांगाच्या लोकांगेल्या मेंटॅलिटींतु जमीन अस्मानाचो फरकु आस. थांयि लेंबराक मानु आस. हांगा रांदयिकायिचो व्यापारु केल्यारि भाजीवाला, वॉशिग कंपनी काडल्यारि धोबी, बूटाच्या दुकानाच्याक चामारु मोचि म्होणु अडिड नांवं दवरतति. (बागलाचि बेंल. मेरी बागलालागी वंत्ता.)

मेरी : (वापस येवनु) भायर कोणुमो मारवाडी येयला.

अनु : मारवाडी? इत्याक आयल्या बा?

पांडु : माका मेळूक आयला तो. वच् बसयि ताका. हांव आत्तं येत्ता (मेरी वत्ता)

विना : अनु यो गो, तुका खंयिकी वोचचें आस म्हणतालि न्हयि वे? यो बोचचां.

गिरी : खंयि वत्ता गो?

अनु : (अंवसरानें विनायका सांगाति वचतन्चि) माका थोडें काम आस, आत्तं येत्तां.

पांडु : हांवयि येत्तां तशि जाल्यारि. तुगेल्या रिणगा-यागेल्लो समाचारु घेत्तां.

गिरी : तान्ने माका रीण दिल्यां म्होणु तूंव ताका बहुमानु दिवका म्हुणु ना. पक्का फटिंगु तो. कानोटे जत्माचो. शेक्सपियरानें ह्या जातिचेरि नाटक बरातिल्या नुसतेंचि न्हयि. तुका गोत्तु आस न्हवे तागेलें स्वरुप?

पांडु : माका कशि गोत्तु आसचें? तांच्या आसल्यांलागि संबंधु हो पयिलोचि. मगेल्या आन्ना आम्माने माका पुस्तकी ज्ञान चडदीने तरी व्यवहारज्ञान भरपूर दिल्यां, पळे उपशि मडल्यारी होड ना रीण काडून नज्ज, म्हणलेलो बोधु बोंत्येतु धोरनु भरयिला.

हेमं. : म्हणूचि इतलो वयरि आयलो तूं. ह्या मारवाड्यां लागि रीण घेतल्यारि गजनींतु देविली गति. येकु पायु सोडवनु घेवंच्याक गेल्यारि आनि एकुयि शिरकता. अखेरेक गजनींतूंचि समाधी, शंभरि रुप्पयि रीण घेतल्यारि हात्तांतु पोडच्यो पंचवीसचि, पावुणशिरुप्पयि वरसाचि वाडि एकळाक वजा करताति.

पांडु : देवाल्या दयेने तूंवे तसलें रींण घेने म्हणलेलेंचि समाधान माका

गिरी : तुगेलें समाधान साबीत वर आशिल्या पक्षाक माक्कायि भारि समाधान जात्तलेंशिलें.

पांडु : म्हणल्यारी? यहावारी लेक्काने रीण घेवल्यां तूंवे?

गिरी : दुर्दैवानें तुगेलो अंदाजु अचूक आस.

पांडु : ए पाध्या. माका येक्ळाकचि इत्याक सांगने?

गिरी : तूं तुगेलि चलि दित्तशिलि वे?

पांडु : निदान लग्न जाल्लेल्या तसाक ताज्जें रीण मुसडारि उड्डोवनु सोडतलोंशिलो मरे!

हेमं : आत्तं ताच्जो पदच्छेदु कोरनु प्रयोजन कसलें पांडुमाम?

पांडु : तुगेल्या हात्तांतु तान्ने पाव रक्कमचि दिल्या मरे.

गिरी : जाल्यारि पूरायि रकमेक नोटु बोरवनु घेतला

पांडु : नोटु म्होवु घालनु लेंवो (वोचूक करता.)

गिरी : (हात जोडनु) मामा,मगेल्या सहेचि किंमत काडचें तसलें काम मात्र कोरनाका.

पांडु : तूंवे तुगेले रीण माका सोडल्यां त्हयि वे? ताज्जो लागुभागु पूरा माका आत्तं. (आवेशाने भित्तरी वत्ता. गिरीशु मात्यारी हातु घेवनु स्वस्थ बसता अनु प्रवेश तागेलें तोंड पळयिता.)

अनु : मात्यारि हातु इत्याक? कोपु आयला आसतलो? कोणाचेरिवा?

हेमं : तुज्जेरीचि. (अनिताने ताका पळयनेशिलो. ती दचकता. बामणालागी थावनु धूर जात्ता) आसतलो. खंइ वत्ता म्होणु निमगिल्यारि सांगनात्तिलेंचि वोचूगेलोलि न्हैवे तूं?

अनु : इश्शि, तितल्या खतिर कोपका वे? देवळांतु गेल्लेंलि.

गिरी : सोंडचाळेच्यालागिकी वाल्लाच्यालागि? ह्यांव सांगनां शनिवारु न्हवे, बाल्लाच्याक सिंधूर वोत्तूक गेलेलि.

अनु : देवाले तशि चेरे कोरनये इत्ते?

हेमं : गिरीश, तुका देव धर्मांचेरि विश्वासु ना जाल्यारि सोडि. श्रद्धा आशिल्यांगेले चेरे कोरनका. (वॉच पोळोंवनु) बापरे, तीनि घंटे जालें ह्यांव येत्तां माका, डॉक्टरालगि एपॉयंटमेंट आस. (वत्ता)

• • (हेमंताने तीनि घंटे म्हणलें की गिरीश दचकता)

गिरी : (स्व.) ह्यांवेयि जुग्गुळचे बरें मालतीक साडेतीनींच्या शोक करतां म्होणु प्रॉमिस केल्लेलें (प्र.) अनिता, म्यूसिक सकूलाच्या प्रोग्रामाक येत्तलि गो?

अनि : हांगा वोचचि अच्छा आसल्यारि वोच्चचां की.

गिरी : तरी ह्यांव टिकेट्सं घेवनु येत्तां.

अनु : प्रोग्रामाक वत्तना खंचें काप्पड निसचें?

गिरी : निशिलें तरी तूं माका गोमटीचि दिसता.

अनु : मगळे चेष्टेरी व्होरचे. हांगा आर्टिस्टीक टेस्ट आस. स्वतःकशि अप टू डेट ड्रेस कोरचें ह्यांवे वायल शोभका न्हवे? म्होणु विचारलें.

गिरी : हें पळें माका वायलांगेल्या सिंगाराच्या विषयांतु काहीं माहिति ना. तूंवे नामांकित सोसायटीच्या लेडिसांगेलें अनुकरण कोरका.

अनु : मडिडगे मालतीलि दोस्ति कोरनु दिवंचि माका.

गिरी : (दचकता) इत्तें, तीं एकलीचि वे? आणि कितल्योकी जाण आसति..

अनु : माका तिगेलें टेस्ट भारी आवडना. ती नज्जवे हांगा? केदनायि खंयि मेळल्यारि उल्लयित रावना न्हयि? ती दीसूक तेमयि गोमटी आस. उत्रंयि तशि उल्लयिता की?

गिरी : आसनलि प्रतिष्ठित लोकांतु मेळनु मिसोळनु आस ती वामणा- सांगनणि देश-विदेश फिरनु आयिल्यामिति. चालचालन, उत्रं पॉलिशट् आसचें सहजचि.

अनु : मगेलिचाल चलन हांगा थावनु सुधारका न्हैवे?

गिरी : पयलो पाठु शीक तशि जाल्यारि मगेल्या आनु आम्मानें माका गोमटोंचि नांव दवरल्यांनं ना ना थरेचि विभक्ती प्रत्ययं लांवनु संशोधन कोरचें सोडन् तांड भोरन् "गिरीश" म्होणु आपयि पोळोंवयां.

अनि : कोणयि हासतीद माका.

गिरी : तरि उल्लयि म्हांताऱ्या बायलां वारि.

अनु : कोपचें नाका आपयतां नांवानें वस्?

गिरी : आत्तं मुहूतु पोळोयां ता?

अनु : पंचागांतु मुहूर्तु पोळोवनु मागिरि आपयिनां. तावळी मजेरि कोपु इत्याक आयलो म्होणु माका कळलें-इत्तें.

गिरी : (घडचाळ पोळोवनु बेचैन जावनु) कोपु? छे-छे! कांयि पुणी उल्लयना. हांव टिकीटं घेवनु मेत्ता. (तो वोचूक करता.)

अनु : (नाका आड्डायता) वोच्चेद, हांवे नौकरि धंद्याच्या विषयांतु उल्लयिल्या खातिर न्हवे? स्वाभिमानु– – – – – – – – – –

गिरी : आगो सायविणो, हांव स्वाभिमानु विक्कुनूचि च्लायतेंक वोचू गेलेलों-

अनु : हांव आम्नाल्या दुडवाचि मिजास दाकयतां म्होणु लेकचे कितकी न्हवे?

गिरी : दुड्ड नात्तिलि थायि आशिल्यावरि मिजासि दाकयितातिं. तूंवे दकयिल्यारि गुन्हो वे?

अनु : माका खरेंचि दुडवाचो अहंकारु ना. (गिरीशु तिगेल्या फाट्टिरी थापटीता.)

गिरी : शाभास, शाभास, तरी मगेल्या वायलेलि स्तुति केल्लेल्या तितल्याक नपुरो. हेमंतु तेसयि तोंडाक फेणू योसरि स्तुति करतालो तुगेलि. सात जन्मांच्या पुण्यानें माका तुज्जि असलि बायल मेळल्या खंयि.

अनु : हांगाच्चि बायल जांवचि खरी मगेलि योग्यता न्हयि.

गिरी : रिफुझिंग प्रेज इज डिजायरिंग इट. ट्वायिस माय डियर. सी प्लीस ऐकसेप्ट ग्रेसफु.ल.

अनु : मनापासून् सांगतां हांव मज्जांतु अनेक ऐव आसूक फाव आसति

तें दाकोवनु दीवनु सुधारल्यारि हांव आनन्दु आनि अभिमानु लेकन.

गिरी : पिश्शि खंचि! मजेलागि शिकूक गेल्यारि आशिलें सुद्धांयि भांडारनु वचद.

अनु : हांव माल्तीबाईलि मैत्रि कोरनु घेत्तां. तिगेलें अनुकरण ---

गिरी : कांयि जरुर ना दुसऱ्यांगेलें अनुकरण कोंरनु कॉपी कट जात्ता? तुगेलें अनुकरण तान्नि करशी आस. आजि कालचे आमगेले सोसायटी मेनर्स म्हणलेले कसले? क्षुल्लक बाबतींक महत्व दिवचें, आनि महत्वाचांक क्षुल्लक लेकचें. येत्तां हांव, टिकीटं विक्कून वत्तीद. (उल्लू उल्लयितचि भायर वोचूक करता आनि भित्तरी येतल्या मारवांड्याक आदळता) आरे, आरे, भायर वोचचि वाट ही अशि. (बागिल दाकयता)

मारवा : ती तुमगेल्या समुरनें क्यारेच दाकयलि. हूं. पिछवारीच्या दारान् आयलां तुमकां भेटूक.

गिरी : ओहो! थँक्स दिवच्याक आयिला वे? नेव्हर माईन्ड - नेव्हर माईन्ड – राम राम! यो हं.

मारवा : राम राम हूं करतां तुमकां, तुमकां, अय्यासूनु! (कोपरालागी थावनु हात जोडता) मारवाडीक चोर, लुटारी, अशि नांव दवरता तुमि –

गिरी : छे-छे-वेळाक समयाक पावनल्या तुमच्या असल्या महानुभावांक तश्शि कोण म्हणद बा?

मारवा : तुमगेलो समुर. ते सबंद नाम हूं तुमकां दिवचाक आयिलां बँकाच्या रेटानि पैसो दिलो, तुमकां नवटक्का चक्रवाडाने.

गिरी : हाऊ व्हेरी काईन्ड ऑफ यू! हांवे नुसतेंचि चूकि समजूति कोरनु घेत्तिलि–

मारवा : चूकि समजूति आमि केलि. तुमगेल्या दस्कताक भलतीचि किम्मत दिलि. ती कवडि बिगरचि म्हणून तुमगेल्या ससुरान दाकयलां.

गिरी : हें सगळें कसलें उल्लथना तूं? स्पष्ट सांग महाराया.

मारवा : सांगचे कसले फतरां? हांव बुडला. साव बुडला. तुक्का शिक्षण दिलें तेंचि चुकला. पैसावाला ससूर मेळला, मगेलि गरज ना म्हणुन दगो दिलो. पण याद राख, हो लालचंद मारवाडी तुका आशि सोडचो ना. समजला?

गिरी : पळयलें वे अनिता? तुगेल्या बापसूने मगेलि मर्याद तिनि कास केलि, लालचंद तूं कांयि बेजार नाक्का. हांव तुगेलि पैनि पै फेडतां. सांग, कितलि वरल्या?

मारवा : एक न्हयि दोन न्हंगि, अठ्ठावीस हजार, बाकि आस. (अनिता सट्कने टेबलालागि वत्ता. चेक बुक घेत्ता. चेक वरयता.) तुमि कसा दित्तलो? तुमगेल्या बायडिच्या दस्तक वगर एक छदाम दिवचो तुमकां अधिकारु ना; तें भि तुमचा ससुरान दाखवला. तुमचि बायडी ते होटेलवाला भुटरड्यालि डिक्री-दित्तावे दस्कत? हूं साव बुडला. (तोंडारी मारनु घेत्ता.)

अनि : (तागेल्या हात्तांतु चेक दित्ता.) घे, आत्तंच्या आत्तं वच हांगा-च्याने, आनि कोणाकयि बुडयि वच –

मारवा : शाभास!, शाभास!! राग कोरनाका भेंनजी. माफ करि. आमिच चुकला. बालाजि तुमका सुखी करेल. (चेक नियाळना) राम राम – (वत्ता)

(गिरीशु खिटकेरी मात्तें दवोरनु स्थब्ध उबरता.)

अनु : (अनिता तागेल्या खांद्यारी हातु दवरता) हें एक वायट सोप्पन म्होणु लेक्कूनु विसोरका.

गिरी : (तिगेलो हातु धोरनु) अनिता, तुगेलें अनंत उपकार जाल्ले मज्जेरि. बाप्पूसु आनि धूवेंतु जमीन अस्मानाचे अंतर! हं– (निश्वासु, बसता. अनिता ताजा लागी बसता)

अनु : नुसतेंचि आन्नाक दोषु दिवचो नाका. साध्या आनि सरळ वृत्तीचो मनुष्यु तो. आपण आड मार्गाने वत्तलो न्हयि, दुसऱ्या-ने वत्तना आड्डायनलो तसलो. हांवे मर्याद राक्किलि

तागेल्याचि कष्टार्जित दुडवाने न्हवे? वोचतें, ताकाचि थँक्स दिवचें. (ताका भित्तरी लकोंवचाक करता.)

गिरी : (तिगेलो हातु धरता) मगेलिदेवि तूं– खरेंचि देवि!!

अनु : बायल म्हणल्यारि पूरो. माक्का तांतूंचि भूषण.

गिरी : खरें सांग अनिता, तुक्का मजेरि (चिमटी दाकोवनु) इतली पुणी प्रीति आसकी?

अनु : अनमानु दिसता वे?

गिरी : न्हयिगो, तुगेल्या तोंडांथावनुं तसले भावना प्रधान शब्द आयकूंवचे आकलस माका. (घड्याळारी ठण् जात्ता.) (स्व.) सिनेमाचो टायिमु जावनु गेलो. (स्थब्ध उबरता. दूरथावनु तागेल्यो कल्पना ध्वनित जात्तानि. मुखावेलीं उत्तरं भितरल्यानें कोणेयि उल्लोंवका)

दूरध्वनि : थूः पापि मना! धिःकारु तुका!! असल्या देवीगेल्या सान्निध्यांतु मालति असल्या परस्त्रीलो उगडासु करतां? वस् आनि मुखारि तिगेल्या सावळेकथायि वचूनाका.

अनु : कसलो विचारु चलला?

गिरी : मगेल्या मूर्खपणाचो पश्चात्तापु पावताल्यों.

अनु : तरी आम्गाक थँक्स दिवचें. आनु हांगाचि आयलो.

पांडु : (प्रवेश) होयरे गिरिष्या, तो मारवाडि वापस हांगा अयलो इत्याक? माका पळयिलें की चोरुमो पोळनु गेलो.

गिरी : तुगेलो दूरु सांगूक आयिलो मामा तो. हांवें ताका समचि शायलि वाट दाकयलि.

पांडु : जावो आवा, मर्याद काडलि म्होणु आकडतांडव करशिकी म्होणु भिल्लेलों.

गिरी : तशि हांव भारी विचारवंतु मामा. तुक्का योग्य दिशिलें तूंवें केलें, आमकां योग्य दिशिलें आमि केलें.

पांडु : म्हणल्यारि?

गिरी : तूंवें कायदेशीर बँकादराने तागेलें रीण फारिकत केल्लें. तागेल्या

दराप्रमाणें वरलेलि रक्कम आमि फारीकत केल्लि.

पांडु : अनु, तूंवे सही दिलि.

अनु : हांवे चेक दिल्लें. कोणागेल्या ऋणांतु पोडूक नज्ज म्होणु तूंचि सांगतालो न्हवे आन्ना.

पांडु : ये देवा, हांवे बोड खरचोंवनु, ताळो खरडूंवनु अठ्ठावीस हजार रुपयि त्या चोरागेल्या तावडींथावनु सोडोवनु घेत्तिलि (कपालारी मारनु घेत्ता).

गिरीं : बेजारु पांवनाका माम्मा; गेल्लेंल्या जन्मांतु रीणगारि आसतलो तो तुगेलो. गेल्लो घेवनु, वोचो. यो अनिता, आमि चिके भायर भोंवनु येवयां.

अनु : आन्ना आमि वगि येत्ताति. (वत्ताति)

पांडु : (चांय्यो काडता) रुण घेवनु गेल्लो! वोचो खंयि!! ताज्या आन्नालो दुड्डु की ना!! नौकरी चाकरी करीशिना, धें धूम खरचयितलों, उंचल्याने माका वेदांत सांगता. मगेल्या घरांतु होच्चि यजमानु जावनु वसला. ह्--! हाक्का अशि सोडल्यारि मगेलि बोडाची कापणी तुळतुळी कोरनु भिक्षाटनेक पेटयिद हो, मेरी, ए मेरी.

मेरी : देवु वरो दीमु दींवो धनयांक. कित्याक उल्लो केलो माका?

पांडु : चिके रखवालदाराक आपयि. (ती भायर वत्तां) मगेल्या आंताक पिक्किल्लि धूव! ती थायि हागेल्याचि तालारि नांचता! मुगदाणो घाल्लेलो बैंलु म्होणु लेकताति की माका? आत्तं हांव कोरडो हात्तांतु घेत्तां. (तगु पडलेलो बड्डो उब्बारता) हांका दोग्गांकयि समचि बुद्धि शिकयतां. मात्तूनु गेल्यांति! मात्तूनु!! (मेरी, रखवालदाराक घेवनु येता आनि, भित्तरी वत्ता.)

रख. : सलाम साब! आप मुझे बुलाये?

पांडु : इस घरको "टु-बि-लेट" बोर्ड लगा दो. गॅरेच और औट हौस के साथ, समझे?

रख. : मगर साहब, अभि अभि छोटे साहब मिले थे, लेकिन कुछभी

नहीं बोलें.

पांडु : फालतु बात मत करो. जाव. मैं इस घरका मालीक, हुकूम देता हुँ। चलो, जलदी लगाव बोर्ड.

रख. : जी साहब (माक्षी पळयत वत्ता)

पांडु : वामन - एऽऽवाम ऽऽन (वामनु हात्तांतु लाटणी घेवनु)

वाम : (प्रवेश) कस्सलें रायानूं?

पांडू : फागि हांगा होड जेवण आस खंयि. कसकसलें रांदूक सांगल्या रे ?

वाम : केशरभात, पुरी, बासुंदी बटाट्याची भाजी, वेजिटेबल बिर्यानि, वाल्लाची बेंदी, फुटसांचे सासम, आनि आट बग गंदयो, चारि बग कोसंवज्यो, चटण्यो, मागिरि भजे. बटाटेवड आनि –

पांडू : आ वा वा वा वा ! खंच्या तालेवानाक होरडीक रे ? आत्तं समचि आयक. ते मात्र राय्यांनि दिल्लेलें ऑर्डर रद्द करि ताज्जा वदलाक दाळीतोय, कसली एकि उपकरि, बटाटयाचें मुक्कें, पुग्गो, आनि गोडशें ग्व्याच्चि खीरि, जावो केळचांचे हशाळे करि.

वाम : (स्व.) कारात्याच्यो फोडयो आनि मूगाच्चि घश्शि सांगूक विसग्ले शें दिसना. कोणालें वर्षिक जावो आसवेया ? (प्र) सान्न राय्यांक निमगूनूचि करतां.

पांडू : सान्न राय्यांलो मांव्–ह्या घराचो मालक. हांव हुकूम करतां तुका.

वाम : मेज्जाने जायना बा –

पांडु : तरीऑफीसां थावनु पगार घे. आनि निवाळसूत्र.

वाम : अशि तडकाफडकी काडनु उड्डोंवचाक मस्करि न्हयि. हांव लाल बावटो घेंवनु उब्रतलो. हं, नेंण तुमि माका (म्हणताच्चि भिनरि कत्ता, थोडया वेळाने एकी पिशवी हात्तांतु घेवनु भायर वत्ता.)

पांडु : मगेलो जांवयि आप्पण कोणु की होडु कोतलखानु म्होणू लेकता. खावा आत्तं – अहंकाराचि विरयानि आनि होडविकेचि कोसंबरी – (वत्ता)

(गिरीशु आनि अनिता भोंवचाक वत्तचि आसति.)

गिरी : आ–हा–हा ! कशि मजेदार थंहि पडल्या !

अनि : भितरलो धग्गु निष्पोंवचो प्रयत्न कोरचें, पाप ।

गिरी : तुगेल्या शीतल सहवासांतु खंचोयि धग्गु टिकचो सारखो ना. तुगेलि गांटि घालनु दिलेल्या देवाक सहस्र धन्यवाद ।

अनु : उलियल्या उत्राक चेष्टा ? सामान्य उत्रं उल्लोंवचाक कळयावे !

गिरी : गंभीर (लवरांतु) अनिता, इतले काक्ष तुगेल्या आसूनूयि तुगे योग्यता कळनेशिलि माका.

अनु : मगेल्ला सहवासाचो कंठाळो आकिला किनकी न्हयि?

गिरी : हो प्रभू हांवे तुका विचारका. भिकारणिली रेसु घेत्तिल्या राजकन्येक होरडीक कोरनु घेत्तिल्या दरिद्री ब्राम्हणालि खब्बरि आयकल्याकी तूंवे? कर्माचो आपणे तिगेलो उध्धारुं केलो म्होणु हिग्गुतालो. त्या राजकन्येने वरलांतु निष्पोवनु दवरलेले कीरीट हगूर आपणाल्या मात्थारि दवोरनु घेतले. त्या वेळारि जाल्लेलि तागेलि अवस्था हांव आत्तं भोगत आस.

अनु : पूरो हो श्रृंगारु ।

गिरी : अनिता, इतले दिवस हांव तुगेलो पतिदेनु म्होणोवनु घेतालों आजि धोरनु तूं मगेलि प्रितीदेवता, आनि हांव तुगेलो–

अनु : नाका–नाका! देव ब्राम्हणांगेल्या साक्षीने दिल्लेलि पदवीचि पूरो माका, ती शाश्वत वरता. भावना अति चंचल आसतातिं. बदलूक शकताति.

गिरी : तुका रोमान्स आवडना कॉनवेंटातुल्या नन्सांनि तें पापाचें मूळ म्होणु शिकयल्यां न्हैवे?

अनु : मगेल्या पाप–पुन्योंचो भावना आर्य स्त्रियांतु पिढयांनु पिढी धोरनु रक्तातू कोंरबलेल्यो.

गिरी : कसल्यो बा त्यो? आयकूंवयां.

अनु : उदाहरणार्थ– लग्न जाल्लेल्यांनि परस्त्र अथवा पुरुषाचेरि मोहीत जावचें अघोर पातक म्होणु लेकतां हांव.

गिरी : (स्व.) मज्जेरि संशयु येने म ह्निका. (प्र.) तसलें भय बाळगुंवचें कांधि अगत्य ना तुका. आमि एकि पारव्यांगेलि जोडिशि रावयां. आमगेल्या फाधिच्या पार्टींतु तूंवे असलो ग्रँड ड्रेस कोरका. की मगळया बायलांतु तूंवे उठावनु दिसका. जम्मिल्या दारल्यांक मगेलो मत्सरु दिसकाज.

अनु : आमगेल्या मुखाचो इतलो गाजु, गुडुगुडु कोरचे अगत्य ना. सिद्धिविनायकालें दर्शन घेवनु येवयां.

(परदो पडता)

## – तिसरो अंकु समाप्त –



## 'अंकु चौथो'

गिरी : इतले दीस, ही मगेलि बायल, एक चैतन्य नातिलें बॉम्बे म्हुणु लेक्विल्लें. असल्या रत्नादिकाक अलक्ष कोरनु त्या काचे कुडको मालति फाट्टी लागल्लो. कितलों मुर्ख हांव! !
(पांडु प्रवेश) माम्मा. मज्जेरि आयिल्लो कोपु शांत जाल्लो की ना?

पांडु : तुज्जेरि कोपु! ! तुजअसल्या उच्च घराण्याच्याक मज्जमल्यानें कसल्लो उद्योगधंदो करि म्होणु सांगिलीचिं चूकी,

गिरी : माम्मा. दम्मया तुक्का. वापस ती खब्बरि काणणाका. दुसरो खंचोयि विशयु उल्लयि.

पांडु : फायि मगेल्या चलियेलिगति इत्ते जायद म्होणु येचना दिसता माका. विचारु कोरनु कोरनु मात्तें खरडुं जाल्लें. आत्तं येकु उपायु सुचला माक्का.

गिरी : कसलो बा तो?

पांडु : आशिल्लें खरचयत बसल्यारि कितले काळ येद? निदान तें जास्ति काळ टिक्कशि कोरका म्हळेलेंयि ठरोंवनु दवरल्यां.

गिरी : ओहो. तरी मगेल्ले कसलो सहाय्यु; सल्लच्यांचि जरुरि ना तरि.

पांडु : तुगेल्लो सल्लों घेवच्या इराद्यानें उल्लयनें हांव. मगेल्लो निश्चयु सांगलो.

गिरी : तपशिलु आयकुवयेकी? आजि हांव चांग मूडांतु आस्स. सांग.
(पाय्यारि पाय घाल्नु बसता. सिगरेट लायिता. फुगुफुसु धुवरु सोडता. पांडु रोंकुनु पळयता. )

पांडु : मगेले ठरांवांतुलो पयिलो आयटम् कसल्लो म्हळ्ळयारि. मगेले जांवयांक म्हालगड्यांक कडिश मर्याद दिवका म्हळेलें शिकोंवचो. नेरडपणाबुद्धि म्होणु इतलें दीस हाशारि व्हरतालो हांव. म्हणता म्हणतां. ऊब येत्तना धांकिल्ले वारि उल्लोंवचा मुरु केला तूवें.

गिरी : तुगेल्या धंद्यांतुली कसलिकी स्पेशल आदर्गतिशि दिसता. माक्का अर्थु कळने.

पांडु : अर्थु तुगेल्या बोडांतु आशिल्याकयि मगेल्या शित्ता बुडकुळांतु चड अक्कल आस्स म्होणुं, होचि अर्थु.

गिरी : आरे बापरे! ! ही भास मगेल्या सात्त पिडर्यांनि आयकल्याकी ना की.

पांडु : हांव रांदप्या पुतू. मगेलि भास ही असलिचि.

गिरी : हगूर उल्लयि माम्मा. कोणयि आयकतिद. निदान शेगडे शिर-स्तेदारागेलो पुतु पुणि म्हण.

पांडु : कोणा आयकुंचे आस्स आयकुवोति. माक्का होड्डुं घराण्याचो म्हुणु मात्यांतुं वारें ना.

गिरी : बट्टचि?

पांडु : ह्यांव मनुष्यांगेलि किंमत तांगेल्या पित्रांवेल्याने करना. कर्तुत्वां वेल्यानें करतां.

गिरी : तरी माक्का तुगेली धूव इत्त्याक दिल्ली?

पांडु : (नर्व्हस जावनु) इत्या दिल्ली?

गिरी : तुगेलो तांतु कसलो गूढ हेतु आसका.

पांडु : गुप्त हेतु? कसलो? छे. छे . .

गिरी : आसकाजचि. इत्या म्हळचारि तुगेले धूवेक मगेलो गुर्तु थायि नाशिलो. अर्थात्, माफ करी. – ती मज्जेरि पिश्शारि पळचा म्होणु तूंवे ही मोयरीक केल्लेलि आस्सू फाव ना. हांव लेकतालों की मगेले कुळ आणिक शिक्षणा भूलनु तुवें धुव दिल्ली म्होणु. मगेल्या रीणा आस्साशिना.

पांडु : हं . . . . (निश्वासू) माक्का परिस्थितिमिती चड शिकू जायने. ते आकलस मगेल्या चेरडाक उज्च शिक्षण दिवनुं पुरेंसुनु घेतले . शिक्षण संस्थांतुं ती ह्यांवे ती हांवे नेण जाल्लेले वातावरणांतु वावरलि. तिगोलि चालचलवणूक, पोळोंवनु ह्यांव चकीत जाल्लों तिक्का तक्क वाम्मणु . . .

गिरी : मुखावैले सांगचे श्रम घेवनाक्का. हांव सांगता. उच्च कुलाच्या चेरक्यांलीं म्हालगडीं तांगेले सारिसमान नात्तिल्यांगेली चल्ली खायीश करनाति. माक्का बापसु लाग्गी वित्तुष्ट आगिल्लें तुक्का पत्यारि पळ्ळें

पांडू : तुक्कायि कांयि अपत्य जायने. नक्षत्रशी बायल मेळ्ळी. रुण मुक्त जावनु मर्याद वांचलि. कसली नुकसान जाल्ली तुगेली सांगुनु सोडो.

गिरी : विशेष कांयि ना म्हणा. फक्त स्वाभिनानु नष्ट जाल्लो

पांडु : रांदप्यापुत्तालो जांवयि जाल्ले मितिवे?

गिरी : छे छे मामा तूं ते विसोरचे चांग.

पांडु : (आनंद, आश्चर्य जात्ता.) आनि कसले ताव्वळि.

गिरी : आत्तं नुसतो ताज्जो पदच्छेदु नाक्का. इतलें मात्र सांगतां की तूं लेकता तितलो उडापि न्हयि हांव. तुगेलें कसलें महत्वा काम आसल्यारि सांगूनु पळे.

पांडु : सांगल्यारि तूं मगेलिं चेष्टा करतलो.

गिरी : करना. विश्वासु दवरि मज्जेंरि.

पांडु : हांव चिके महत्वाकांक्षे मनुष्यु (लाजता.)

गिरी : इतलें लाज्जूक कसलो न्हयि जाल्लेलो गुणु वे तो?

पांडु : हांवे जन्मा येत लागायत म्हारकष्ट काळ्ळे. तांतु चारि कास मात्र कमायले. समजांतु मगेलें नांव कोणाकयि गोत्तुना गणराज्य जायत लगायत एक मम मात्यांतु एकु विचारु घोळता.

गिरी : आयलें लक्षांतु इलेक्शनांतु, रावचे नवें ? (पांडू होयि म्हणू मात्तें हाळयितां.) मामा, कसलो तुगेलो विनयु हो तुक्का ती महत्वकांक्षा आसल्यारि केन्नाची राबयेशिलेमं सही करुक येवतो नातिल्ले धोबी दाणेवाले थायि राबताति. तू भित्तां कसल्याक?

पांडु : ताशि कसलें भयनारे माक्का. अर्द लक्ष्य रुप्पायि अलायदा

काणु दवरल्या. केंपेना खटपटि कोरचें धैर्य मात्र ना माक्का.

गिरी : हांव तें पुरा करतां. राब तूं अंवदुं. हांब स्वतः वोटस् केनवास कोरुं बत्ता. वोट फॉर–निशान कसले–राब राब– हांव सांगतां–दायि आनि मांडी–वॉट फॉर दायि ॲन्ड मांडी

पांडु : कोप्पाने शटअप. फटिंगा. मगेलें ऊन उच्यारलेले शिवायि शिवायि जीब हालनावे तुगेली?

गिरी : आरे–आरे नुसतें कोप्पु नाक्का.

पांडु : आनि कसले बुंदवंतपण विक्रयता. विक्रयी:

अनु : असले थरा मान अपनान लेकचे दीस आत्तं वरनेती माम्मा प्रतियेक धंद्याक मर्याद आस्स. श्रमजीवि लोकांगेले हात्तांतूंचि राज्यसूत्रं आस्सति. तुगेलो आनु एकु गरीबु रांदपि. धंदो कनिष्टु, जल्यारि मर्यादेरि संसारु कोरनु कासु रुवो वोटु केल्लो. सानशें होटेल उघळ्ळे. होयि की ना?

पांडु : होयिबा. होयि.

गिरी :तसल्या त्या नेल्गट्टारि आजि तूंवे इतेलें होड होटेल बांदले एश्वर्य कमायसुयलें. ताज्जें मूल द्योतक कसलें? दायि आनि मांडी, तुक्का अभिमानु दिसना ताज्जो (पांडु विचार करत बसता थोडो वेळु.)

पांडु : (गंभीर.) तूंवे म्होणचें बरोबरि. विनामकु पदे पदे सांगता की ह्यो उच्यनिच्च भावनो चुक्कीच्यो म्होणु. जाल्यारि मगेले प्रयेगि जाल्लेले एक्क घटनेने मगेले मनाचेरि केल्लेलो घायु सुकुनु सुक्कना.

रख. : (प्रवेश कोरनु.) सलाम साब. घर देखनेकेलिये बहोत लोग (पांडु ताक्का उल्लोनाक्का म्होणु सन्नायता. तागेले मात्यां वचना.) आये हैं।

गिरी ; घर पोळोंवच्याक? मगेले घर म्हळ्यारि म्युझियम म्होणु लोकतातित न्हयिम? भगा देव उन लोगोंको.

रख. : कैसे भगाना साब. उन लोग तो 'टु बी लेट' बोर्ड देखके

आयें हैं। (पांडू कोप्पानें फडफडतां)

गिरी : कोणेकी मिस् चिफ् केल्यांशें दिसता. हांव पोळोवनु येत्ता (वोंचु करता)

पांडु : चिके राब. (दात वट खावनु.) तुम निकल जाव यहांसे। (रखवालदारु पोळुनु वत्ता) तो बोर्ड हांवेचि लांबच्याक सांगिल्लोरे.

गिरी : माक्का निमागिनातिले.

पांडु : घर मगेलें. तुक्का निमगूंचि गरज दिसने माक्का.

गिरी : तो बोर्डु लावंचे कारण पुणि कसलें म्होणु कळदकी?

पांडु : थोडो वेळु फुडे तेंचि सांगत आशिलों. हांव आशिल्ले जास्ति दिस टिक्कोंवचो प्लॅन सांगिल्लो पळे. तांतुलो हो पायिलो आयटम्।

गिरी : आम्मि खंयि रस्त्त्यारि राबचे वें?

पांडु : तुंबेकलि. रस्त्यारि राब्बोति तुगले वैरि. मगेलें एद्दें होड फ्लॅट आस्स—देवा दयेनें. हांवें येकळच्यानें थंयि राबचें म्हळयारि अनब्रयु. (हेमंतु प्रवेश.)

हेमंत : गिरीश. भायर तुगेलो कुक्कु, आपणा डिस्मिस् केल्लो म्होणु कसलेकी गोरगोरत उब्रला (गिरीश आश्चर्यानें पळयता)

गिरी : कोणे डिस्मिस् केल्लो खंयि ताक्का?

पांडु : हांवे. भारी अनव्रर्यु खर्चु करतालो तो आत्तं तागेलि गरजचि ना.

गिरी : मक्का गरज आस

पांडु : ताशि जाल्यारि आपयि वापस. मात्र क्षीण जायत गेलेल्या तुगेल्या संपत्तींतु पुरेसूदकीम्होणु विचारु करि.

गिरी : तुगेल्या उत्रांचो अर्थु कसलो?

पांडु : अर्थु सरळ आस्म. हांवे तुक्का एक लाख रुपयि वरदक्षिणा तुमगेले दोगांगेले नांवारि दवरलेलि. अठ्ठावीस हजार मारवा-ड्याक दिल्लि. तुंमि वीस हजार फियांटा दिल्लि. हनिमूनांतु

कितलि खर्चयल्या हांव नेणं. तो नंता हांगा कितलें की रदबदल्यो (रिनोवेशनस्) करयिल्यों तूंवे. नवीन फर्निचर; टेपस्ट्री म्हणतना आस्सुनु आस्सुनु कितलि बाकी आस्सद? पैसो इत्तें पिल्लं घालतावे? त्यामितीं सांगलें; मगेल्या घरां येवनुं राब्बा म्होणु येत्ता ह.व घर पोळोंवचा आयिल्यांगेलो समाचारु घेत्ता. (वत्ता.)

गिरी : (चांटचो काडता.) विश्वासघातकी!

हेमंत : (खो खो हामनच्चि) शेरा सव्वायि शेरु मांवु मेळ्ळो तुक्का. शाब्बास!

गिरी : तुक्का गम्मति दिसतावे?

हेमं : दोळे इत्या गुरगुरायतरे. हासरे पापया हास. जीवनांतु असलि एडवेंचर्स आयिल्ले शिवायि मजा ना पळे.

गिरी : येस, यू आर राइट. तांतुले तांतु वेळारि ह्या म्हांतान्यागेले स्वरूप कळ्ळेंले बरें जाल्लें. आजि एकि होडि चूकि कोरचो आशिलो हांव.

हेम : कसलिबा तीं?

गिरी : आय वॉज ऑन द पॉइन्ट ऑफ फॉलिंग इन लव उइथ माय वाइफ. तिगेल्ले खात्तीर जांवनु ह्या रांदप्या पुत्ताक समाजांतु नांव लौकिक मेळोंनु दिवचो आशिलो.

हेम : हे पळे गिरीश. गृहस्थवाळीक विसोरनाक्का. होन्येक पोळोवनु.

गिरी : त्या बापसूलि ती धूव. (घड्याळ पोळोंवनु; अंवसरानें बूट घालनु घेत्तच्चि)

हेम : खंयि वत्तरें?

गिरी : मालतीनें आशिल्लेकडे. दोनि नास धोरनु वाट पळयत वसल्या कितकी पाप!

हेम : गिरीश वोचु नाक्का.

गिरी : सान्न चेरडुंवांवारि शिक्षा करता तो माक्का. राव शिकयता ताक्का. इलेक्शनाक राबना खंयि खानावळि मामु. हः हः ह!

दांयि मांडि निशान ही म्होणु सांगले. "वोट फॉर दायि अँड मांडी, वोट फॉर दायि अँड मांडि". कशिश? स्लोगन ग्रँड आस्स की ना. स्वारी हेमंत. आय मस्ट गो, तूं चिक्के आरामु घे. हांव येत्तां वाग्गि. (वत्ता) (भित्तरल्यानें अनिता, विनायकु स्टेजारि येत्ताति. गिरीशानें वत्तना पळयताति. विनायकु तान्नें भायर पळ्ळेले बागलालाग्गि वोचुनु तान्ने दोळेआड जात्त म्हणसरी पळयत उब्रता.

अनि : (हेमंताक) अंवसरानें खंयि वोच्चें?

हेम : ताक्का कसलेकी महत्वाकाम आस्स खंयि.

विना : (परत येवनु) तागेलो नमुनो पळयल्यारि कसलेंकि अनाहूत कोरु वोचुगेल्ला म्होणु संशय येत्ता बा.

अनु : खरें सांग हेमंत. मगेलि आण आस्स तुक्का,

हेम : मांवाक आनि जांवयांक कललोकी व्याच्छाटु जाल्लोसो दिसता, माक्का सम कस्लेंयि गोत्तुना, त्या दोग्गा मद्देगति पेट्टिल्या उज्याहीलीनें तूंवे भाज्जना जाल्यारी पुरो!

अनि : (घाबरेनु) हांवे भज्चे? तें कशि? माक्का कांयि अर्थु जायनाम तुगेले उत्रांचो. स्पष्ट सांग सायबा.

हेम : आनि कस्ले स्पष्ट सांगचे? ताक्का आडमार्गारी थांवनु परावृत्त कोरचें तुगेले हात्तां आस्स, तुज्जेरि मनापासूनु प्रीति करता तो. म्होणु चाळवला.

अनि : मज्जेरि अणुमात्र प्रीती आसल्यारी चांळवलेले मनाक शांत कोरकु घराभायर वोच्चिच गरज दिसनाशिलि.

हेम : घरांतु मनस्ताप जाल्यारि बायलो दोळ्यांतुले उदकानें तो शांत कोरनु घेत्ताति, दादल्यांक तो उपायु लज्यास्पद दिसता उचंबळेलेल्यो भावना हातीटीं हाडचे खात्तीर ते घराभायर पडताति, आनि बहुतेक दुसऱ्या गेले पेट्टिलें घरा उज्यांतु (बेल्ले मेरी भित्तवेल्यानें येवनु भायर वत्ता,) (अनिता निश्चल बैसनु हेमंताले भाषण आयकत आशिल्ली कसलें

की भयानक प्रसंगु यबजणेक आयिल्यावारी कोरनु आंगा कांटो सुंब्रेता एक कागद घेवनु मेरी स्टेजारि येत, आसताना,)

अनु : हेमंत तुक्का मगेलि आण आस्स. खरें सांग. हांगथांवनु खंचेयि परस्त्रीले मोहपाशांतु ((मेरी पोळोंवनु दचकता) कस्लें जायगो तुक्का?

मेरी : बाये, मालती वायिच्या सिरिधरान ही चीटि हाडल्या. धाकल्या धनयांक धाडल्या खंयि. जाप मागता तो. (हात्ता दिवचा वत्ता)

अनु : टेबलारि दवरि. (अनितानें बशिशले खुर्चे लागच्या टेबलारि दवरता.) ते भायर वोचूंगेल्याति. येनांफुडे जबाब पेटयतले म्होणु सांग. (मेरी वत्ता. परतूनु येवनु भित्तरि वत्ता.) (अनिता कागदालाग्गी पळयत बसता. हेमंतु नर्व्हस जावनुं चडपडता. लाग्गि येवनु.)

हेम : होन्ये हांव गिरीशाक सोद्‌दूक वत्ता. व्होरुंवेतें कागद?

अनु : हः. हांव उघडनं म्होणु भित्तवे?

हेम : तश्शि न्हयि होन्ये. कसलें अर्जंट मेसेज आसल्यारि - -

अनु : आत्तं ताज्जि गरज आस्मशीना. तीं दोग्गं एकडे आसतलि.

विना : न्हयि जाल्लेलें कांगिपुणि उलौवनाक्का.

हेम : नाक्का जाल्लेलें संशय माक्कुनु धेवनाक्का होनये. तो थंयि वचशिना.

अनु : तुगेले पवित्र मिलिटरी बॅजारि हातु दवरनु सांगशी?

हेम : 'सत्यम् ब्रुयात्, प्रियम् ब्रूयात्, न ब्रूयात्सत्यप्रियं' म्होणु सुभाषितचि आस्स. तो खंयि आस्सो; कसलें कोरो, ताक्का तुज्जेरि प्रीति आस्स हाज्जि माक्का खात्री आस्स. हांव चिकें भायर वोचुनु येत्ता. (वत्ता.) (अनिता दोन्नि हात्ताने मात्तें दाट्टुनु धोरनु एक टक तें कागद नियाळत बसता.)

अनु : एक तासुफुडे हांवे मगेलो हातु धरलेल्यागेलें हृदय जिंकिले. तू मगेलि देवि म्होणु काळेलेउद्‌गार आयकूनु ब्रम्हानंदांतु

आशिशल्लि. पतिगेल्या हृदयांतु प्रतिष्ठां जांवचेफूडेचि विसर्जनयि जाल्लि.

विना : (तिगेले फाट्टिवेल्यानें हातु हात फिरायतचि) बेजारनाक्का बाळा, समाधान घे.

अनु : तें स्थान प्राप्त कोरनु घेंवचें संकल्पानें हांवे सिद्धिविनायकालें व्रत आचरले. तान्नें मगेल्या मूढ भक्तीक मेच्चूनु मनसाभिष्ट व्हांटींतु घालतना आन्नानें चोप्पयि मारलि. हृऽ जन्म दिल्लेल्या बापसूनें.

विना : बोड फिरको खंचो. मेळो मज्या हात्तांतु.

अनु : विनुकाका; हांव हांगाचेरि विनाकारण संशयु घेत्ता न्हयिम? अशि मर्याद काणु घेंवचे जायशना म्होणु मगेलि मनोदेवता सांगतम.

विना : तें सत्य ठरो म्होणु देवालाग्गि प्रार्थना कोरयां.

अनु : जाल्यारियि एक परस्त्री हांगा हां इत्या कागद बरयतलिशिलि?

विना : सहज कसलें आमंत्रण जावो आसतलेंगो.

अनु , आसका. अंवसरानें मेजवानि ठरलि कित्तकी. पोस्टारि वेळारि मेळना जायद म्होणु. अशि पेटयिलि वया. (पत्र हात्तांतु घेंवच्या हातु मुखारि करता. सटकनें माक्षि घेत्ता) मगेले नशीबा जज्जमेंट ह्या कागदांतु सीलबंद आस्स. समजूनु घेंवचो मोहु आबरु जायना. (पांडु प्रवेश. भायल्यानें येत्ता. अनुलाग्यि येत्ता.)

पांडु : कसलें नियाळतगो ते. कागद कोणाले तें? (उबारता)

अनु : आन्ना, दवरितें. तुगेलें जांवयां आयल्यांते.

पांडु : बायलांले अक्षर. अत्तरा परमळु! !

अनु : मण्णिगें मालतीलें. मेजवानी आमंत्रण आसतलें.

पांडु : तुगेलें तोंड इत्या तांबडे जाल्यां? तापु बिपु आयला न्हयि म? (आंगा हातु लावनु) आंग थंड कोट जाल्यां. कसलें जाल्लें गो तुक्का? अबाजु रडकुळो इत्या जाल्ला कसलें जाल्लें रे

इत्या अंशि मुनकि चेहरो कोरनु बसला?

विना : तुज्जें कर्मामितींचि ही गति आयिलि. नाक्का नाक्का म्होणु वारल्यारि आयकने. गुंडयेंतुं घाल्लि चलियेक.

पांडु : कस्ले केल्लें गो तुगेलें बाम्मणानें? खंयि गेल्लो तो? (भित्तरि निलकुनु.)

अनु : आन्ना; तुक्का मज्जेरि प्रीति आसल्यारि . . .

पांडु : अनमानु तुक्का?

अनु : आनि मुखारि पुणि हांगा सतायसूनाक्का.

पांडु : ह्रांवे ताक्का सतायस्लो? की तान्ने माक्का सोल्लयलो. येवो तो. ताक्काचि विचारतां.

विना : तूं ताज्जेरि खासल्यारि तो ह्रिज्जेरि काडता.

पांडु : ताने तुक्का कसलें केल्ले गो सांग बग्गि.

अनु : कांयि करने आन्ना. तूं तुम्तें मात्तें ताप्पवनु घेंवनाक्का.

पांडु : खांवू की गिळुं कोंरनु तूं तें कागद इत्या नियाळता तसल्यारि त्या माण्णिगे म्हैशीचेरि - -

अनु : ना आन्ना ना. (आवाजु कंपित)

पांडु : विनायका तोंड पळेरे तिगेलें. कसल्लो विचारु करता गो? तिज्जेरि कसल्लो संशयु आयिला म्हणिम तुक्का. (मटकने कागद उबाग्ता.)

अनु : आन्ना दुसऱ्यांक आगिल्लि कागदं वाच्चें महान पाप. दवरि तें.

पांडु : मगेले चेरडाल्या हिता खात्तीर हांव असले सगळयांक महत्त्व दीना.

विना : पांडु. अविचारु कोरनाक्का. तुगलो जांवयि इत्तें म्हणद?

पांडु : रांदप्या पुत्ताक मॅनर्स नाति म्हणतलो. म्होणो. (कागद पिंदता)

अनु : तें वाचल्यारि तुक्का कुलदेवा. . (तो वाचता)

पांडु : "मगेले मोग्गा गिरीशाक". हलकटि खंचि. (दांत वट खांवनु कागदा गूळि करता) (विनायकाक खांद्याक धोरनु) विनायका तूंवे माक्का आडुांवकाशिलो? हीं सोसरीक करतना.

विना : हः आङ्गांवकाशिलो? तुक्का तागेले आन्नाचेरि हुंडि बाकि कोरची आशिलि न्हयि? (अनिता पोळोवनु) अय्यो, मज्जा बालाक दोळ्यां चिंदारे आयिल्लेशे दिस्ता,

पांडु : मेरी, मेरी; (मेरी येता) उद्दाक हाडि. (मेरी धांवत भित्तरी वोचूनु उद्दाक हाडता. तिगेल्या दोळ्यां लायता.)

मेरी : बाये, दोळे उगते कर. हें एदें उद्दा पी धुवे. कित्ते जाल्लेगों बाय?

पांडु : अनु, मगेलें आम्मा दोळे उघडि. हांव डॉक्टरा आपयतां. (वोचूक करता.)

मेरी : घाबरता कित्या तुम्मी. कांयि जांवना तिक्का (हासतचि) न्हाल्या दिसांचे आस्सा ती.

विना : कसलें म्हणतागो तूं?

मेरी : तुमच्या खांदार भुरगें खेळतलें. आनि कित्तें (पांडू विनायक विस्मित.)

पांडु : दोळे उघळेरे मच्जा बाळानें. (अनु उटांवचा करता) निद्देमा निद्दे. मेरी एक कप्प कापि हाणु दीगो तिक्का (मेरी भित्तरी वत्ता.)

अनु : आन्नां. हांव बरी आस्स. माक्का कांयि जायने

पांडु : तूंवे कांयि मना वेजारु कोरनु घेंवचानज्ज. हांव तुक्का घटस्फोटु घेंवोवनु दित्तां. वाट्ट वोवोतो. म्हैसोबा खंचो!! (विनायकाक कसलें कान्नां वचना, विचारमग्न जांवनु बसला) मेरी अनिताक कापि दित्ता पांडुलो उंचलो डायलोग चालू असतना कापि पिवका. 'घटस्पोटु' हो शब्दु आयकलो की थरथरचे हात्तानें कप्प तग्गु दवोरका तिन्ने)

अनु : पूर्विले जन्मांतु हांवें खंचेयि दापंत्याक विजोड केल्लेली वेया? लग्नांतु लायिल्या तेलवटण्या नया वोच्चा फुडेंचि घटस्पोटु? ताज्जेपेक्षां मरण बरे.

पांडु : त्या हरामखोरानें फसयिल्याक? हांव कोणुचि न्हनि तुगेलो?

माक्का तुज्जे शिवायि कोण आस्स ह्या जगांतु. (ती उटावनु वोचु करतां.) (पांडु हातु धोरनु) खंयि वत्तामा?

अनु : मगेले कुडांतु. सोडि माक्का.

पांडु : अय्यो! आजि तुगेलि आवसु आसल्यारि तुक्का समजायि-सुयतलिशिलीम. तुक्का कसले सांगका, कशि समाधान कोरका, कांयि कळनाम माक्का.

अनु : सोडि आन्ना; सोडि मगेलो हातु. हांव मगेल्या आम्मालागिंचि मगेलें दुःख मांगता. मनमोइच्छ रोण्णु हृदय हलके कोरनु घेत्तां.

विना : वोचोरे ती सोडि तिक्का. अश्रुं असलें मुलाम ना दुःखा दागांक.

पांडु : वच. वच मन शांत कोरनु घे बाळा. म्हांतारपणांतुं माक्का विश्वासघातु मात्र कोरनाक्का. (ती भित्तरी वत्ता) विनायका हांव कसलें कोरु गेल्लों आनि कमलें कोरनु बसलों रे? मगेले अहंकारा प्रायःश्चित मगेल्या पोरीक भोगका पळ्ळें मरे.

बना : "कब्बु आडि होयितु बेंल्ला मारि होयितु" म्होणु कानडी भाषेंतु आदगति आस्स. आत्तं मात्त्यारि हातु घेवनुं बसल्यारि उपयोग ना पांडु. उपायु कोरका. घटस्पोटानें न्हयि. ताक्का समजूत घालनु. लग्न जुळोंवचे कष्ट, मोडचे सुलभ. ताक्का सुधारच्चो प्रयत्न करका. संतापानें न्हयि. समाधानानें.

पांडु : (नग्गु पळ्ळेले कागद सम घडि कोरनु) हांव सम सुधारतां ताक्का. देवा दयेनें हासाहासि पुरावो मेळ्ळा. (कागद कीशांतु दवरता. गिरीशु भित्तरि येत्ता. हेदिकाल्यादिकाक कसलें की सोदता) कसलें सोदता रे?

गिरी : माक्का आयिल्लें कागद.

पांडु : मण्णिगे मालतीलें आसल्यारि सोद्दू नाक्का मज्जेंलागि आस्स तें.

गिरी : तरी दी तें माक्का.

पांडु : तुक्का ताज्जो उपयोगु ना आस्त. माक्का जाल्यारि आस्स.

गिरी : तुंवे ते उघडलें की इत्तें?

पांडु : उघड नात्तिलें नेरानें पडतलो म्होणु लेक्किलें वें?

गिरी : कल्लें, माक्का आयिल्लें कागद तुंवे फुट्टयिल्लें? तितलो नीच आंसशी म्होणु लेक्कनेशिलें हांवे.

पांडु : परस्त्रीलागि स्वैर वर्तन केल्लेले तितले नीच केन्नाकयि न्हयि.

गिरी : कोणाली ट्रेझरि भेतचाकयि होड अवध्य कृत्य ते. ट्रेझरीक बीगा भद्रता पुणि आसता. कागदा सीलाक कसलें संरक्षण आम्सना.

पांडु : माक्का न्यायु अन्यायु शिकोंवचि जरुरि ना. कोर्टांतु जज्जा इदरारि विक्रयि.

विना : पांडु, तूं शुद्धिरि आस्स मरे?

पांडु : आयिचे इतलो फूडे अशिले पक्षाक, हांक्का मगेले तोंडाक अशिमशि सारोंवच्याक सोणाशिलों. फुलावारि कोमल आशिले मगेले चेरडाक पायमस्ते घालूक दीनाशिलो. आत्तं मगेले मूर्ख-पणा प्रायःश्चित्त कोर्टां वोचूनू घेत्तां.

विना : हाशामारग कोरनु घेत्तावे?

पांडु : हः! हाशामारग! कागद बरयिल्ले --

गिरी : कसलें? त्या कागदा उपयोगु करता? पुराव्याखात्तीर कोर्टां दाखल करता?

पांडु : अलबत्!

गिरी : तिगेलि मर्याद काडता?

पांडु : हात्. त्या बाजारबसकेक --

गिरी : शट अप. अपराधु हांवे केल्ला. शिक्षा माक्का करि.

पांडु : तुक्का इत्तें सोडतां म्होणु लेकतावे? तुज्जा तोंडाकयि सम आरति करयता. योरे विनायका वकिला घारा वोच्यां.

गिरी : कॅप्टनमाम, तूं पुणि सांग रे ताक्का.

विना : ताक्का दुसऱ्यांनि सांगिल्ले आयकूंचो अभ्यासु आसल्यारि ही गति जात्ताशिलिवे? (पांडु, विनायक जोत्तीं घालनु वोचु भायर सरताति. गिरीशु आडुायता)

गिरी : तें कागद दिल्लेशिवायि तुक्का वोचु सोडिशिना.

पांडु : इत्तें करशी?

गिरी : जीवु दीन जीवु घेन कसलेंयि करीन.

पांडु : आबोरे. त्या तिनि कासांच्या हलकटेलि मर्याद वांचोंवच्याक इतलो पराक्रम दाकयता? आपणालें सर्वस्व तुक्का अर्पण कोरन तुगेलें नांव धारण केल्लेल्या बायलेलें कांयि दिसने? तिन्नें तुगेलो कसलो अपराधु केल्लो?

गिरी : हांवे तिगेलो अपराधु केल्लो कबूल.

पांडु : तिज्यांतु कसलें उणेंपण आस्स म्होणु भायर सोद्‌दूक गेल्लेलो? सौंदर्यानें नक्षत्र, विद्येनें सरस्वति, विनयाने- - -

विना : पुरोरे. आत्तं चिके समाधान घे रे.

पांडु : सर्वांगांतु उज्जो पेटला माक्का. यो वोच्चा.

गिरी : (दीनवदनाने) माम्मा मगेलो घोर अपराधु जाल्लो. एक वेळा क्षमा करि. मगेले करण्यांचि माक्का लाज दिसता. तूंवंयि एकेकाळी तरुणु आशिल्लो.

पांडु : असले धंदे कोरुक फुरसति नाशिलि.

गिरी : एक्झॅक्टलि, अॅन आयडल ब्रेन इज ए डेव्हिल्स् वर्कशॉप. धंदो उद्योगु नात्तिल्लेमिनि मगेलो पायु निसरलो. आनिमुखारि तूंवे सांगिल्ले नशि करता. तुगेले गल्ल्यारि बसकावे बसतां. तुगेंले होटलां कपवशो धुंवकावे?

पांडु : तसले कामाक वेकेनसी ना मजलागि.

गिरी : दुसरे बायलांल्या सावळेथायि वचना. अनिताक सुखि कोंरच्यांतूंचि आयुष्यांतुलो प्रतिएकु क्षणु खरचयितां. प्रतिज्ञा कोरनु –

पांडु : लग्नावेळारि इत्ते घेनेशिल्लिवे ही प्रतिज्ञा?

गिरी : माक्का कृतकर्माचो पश्चातापु जाल्ला. विश्वासु दवरि माम्मा.

विना : पांडु, ताक्का एक चान्स दोरे.

गिरी : तूंवे मज्जेरि विश्वासु दवरना जांवचें महज. हांव - - . तूं अशि करि. तें कागद तुगेल्या ट्रेझरींतु दवरि. हांवे दिल्लेले उत्राचुक्किल्ले क्षणाक ताज्जो जायतां उपयोगु करि.

पांडु : हं - - हाक्का जाल्यारि हांव कबूल आस्स. जाल्यारि अनु कबूल

जात्ता की नाकि.

विना : तिका हांव समजायसूतां.

पांडु : यो तसल्यारि. रोणु रोणु दोळे कितले सुज्जोवनु घेतल्याति की मज्जें बाळानें. गिरीशा, हांव जे कांयि उल्लायिलों ते फक्त मगेले चेरडालें दु:ख पोळोवंचाक जायनात्तिल्ले मिर्ति--

विना : (ताणु व्हरतचि) पूरो तुज्जे सुभाषित. घडयांतु सिंहुसो गर्जना करता घडयांतु बोक्कोडुसो भेंकरता. यो पोळोंव्या-- (वत्ताति)

गिरी : (येराजारयो घालता. दूरध्वनि) गिरीश शर्मा, खा आत्तं रांदिल्ले. पापया, पंचभक्षपरमान्नानें वाळ्ळेले वाटयाक लात मारनु उष्टया फोंडारि कसल्या हेड्डे खांवचा गेल्लेलो? एक्क क्षणा तमाश्याक बलि पळ्ळो आनि जन्मा सहचारिणिनें प्रतिष्ठा केल्लेल्या सिंहासनावेल्यानें कोस्सोळमरे. (कपालारि मारन घेत्ता. हेमंतु भित्तरि येत्ता. थोडु वेळु पळयता)

हेम : कसलें जाल्यांरे तुक्का? कसलें ॲक्टींग हें? खंचा नाटकाचें?

गिरी : मगेले कर्मा भोगाचें. मगेल्या मांवानें माक्का आयिल्ले मालतीलें कागद वाचलें. जमदग्नी अवतारु धारण केल्लो. त्या कांगदा-पुराव्यानें, धुवेक डायव्होर्स दिवयता म्हणालो. अखेरेक, आनि मुखारि हांवे तागेंल्या उत्राभायर गेंल्लोकी त्या कागदाचो जायतो उपयोगु कोरयेद, म्हळेले कंडिशन्नारि एकफांतांक शांत केल्लो!

हेम : पाप मगेल्या मित्राचें. पाप सोणु पाप!

गिरी : ताज्जाकयि मरण बरे!!

हेम : आरे, असलें क्षुल्लक कारणाखातीर मरणा इच्छा करता? तुक्क अजुणि दुद्दां दांत सम झणेनि. रत्नशी वायल मेळया. तिगेल्या सहवासांतु सुखानें संसारु - -

गिरी : कसले कर्मा सुख. राति दीस तें कागद मगेले मान्नेरि, केसारि लांबयिल्लें खांडोशे आसतलें. हांव खंयि चुक्कुनु पडनकी हो दुकदुको. (अनिता, पांडु, विनायकु उल्लयत प्रवेशु)

अनु : ना आन्ना. हें चेन्नांकयि शक्य ना. ह्या जन्माचो आमगेलो संमंधु थुंटलो.

विना : अनु विचारु कोरनु उल्लयिमा. असले प्रसंगांतु येक्का घावाचे दोनि कुडके सर्वथा कोरु नज्ज.

अनि : प्रीति हृदयांतु उद्भव जांवचि आसता. जबरीने उत्पन्न कोरु जायना, आन्ना.

पांडु : गिरीश तूं पुणि सांगरे तिक्का.

अनि : सांगचे कस्ले? नकलि प्रेमाक हांव भुलशीना म्होणु गोत्तास. मगेल्ले लेक्काक आपणाले अस्तित्व समाप्त जाल्लें म्होणूयि गोत्तास. आन्ना, ताव्बळि त्या कागदाक हातु थायि लायनोशिलो हावें. आत्तं सगळ्यां इदरारि वाचतां हांव. दीतें माक्का.

पांडु : नाक्काम्मा. जाल्लेलें जावनु गेल्लें. शेळि खीरि उस्पित बैसू नाक्का.

अनि : घटस्पोटाक अर्जि कोरचे फुडें कसलें वरयिल्या म्होणु सम वाचकातें हांवे. फायि कोर्टांतु हांगेलि अळशिके आंगवालीं धुंवचि पडतलि न्हयि मज्जे नशिबाक.

पांडु : नाक्काम्मा नाक्का. अपहास्या कारण कोरनाक्का.

अनि : अपहास्य गुन्हो केल्लेल्यांगेलें जात्तलें.

विना : तीर्वयि तुजेबारी एकि बायल मनुष्य. कसलियि आस्सना. तिगेल्लो संसारु मोडूक तूं कारण जांवनाक्का.

अनु : मगेल्लो संसारु मात्यें मेळयिल्येगेल्या संसारा पर्वा ना माक्का. कागद दित्तकीना? (दोळे गुरगुरावनु)

पांडु : घे सायब्रिणी घे. वाच्चुनु परत दी माक्का. (दित्ता)

अनि : मगेलो प्रारब्धा भोगु कांयि माक्का चुक्किल्लो न्हयि. एका शीलभ्रष्ट स्त्रीयेलि मर्याद राकचे खात्तीर आपणालि मर्याद अडवु दवरलेलि हांवें, ती सोडोंवनु दित्ता. (कागद पिंदता. वाप्पुसु आडुायता) मज्जे लाग्गि येवनाक्का. (कुडके एशट्रेतु घालनु काड्डि लायता. पांडु झोम्मुनु घेंवचा पळयता.) आन्ना

दूर राब.

पांडु : ये देवा कसलिं मूर्खपण केलिंल तूंवे?

विना : भारी कर्तुत्वशाली! भारी धैर्यशाली!

हेम : विशाल हृदयाचि. असामान्य विचारांचि!

गिरी : ताज्जे बदलाक मगेले तोंडारि एकु थपराको मारयेंशिलो. मगेले कुला नांव तुक्का दींवनु बहुमानु केल्लो म्होणु अहंकारु पावतालो.

अनि : आयच्यानें तें नांव माक्का परकें. हांव त्या बहुमाना लोभाने होरडीक जायनेशिलि. ज्या अभिलाशेंनें जाल्लेलि, ती लास्सूनु गोब्बोरु जालिल. भस्म जालिल.

विना : कृतकर्मा पश्चातापानें अंतःकरण भगभगता. जावळि अनिता क्षमे उद्दाक शिंपुनु - -

अनु : मगेल्या दोळयां थायि एकु थेंबो उद्दाक वग्ने. (भित्तरि वोचु करता.)

गिरी : (सटकने तिज्जेलागि वत्ता.) पश्चातापाने शरण गेल्लेले पाप्यांक परमात्मुथायि क्षमा करता. हांव रुकु न्हयि. फात्तोरु न्हयि. हाड्डामांसाचो एकु सामान्य मनुष्यु. पळ्ळों चुक्कुनु. मगेले हृदयांतु भावनांचो कल्लोळु जाल्ला. तुज्जेशिवायि हांव वांचुनु वोरुक शकना अनिता! एक वेळा, ह्या एक वेळा माका क्षमा करि!

विना : अनु, तुगेलें हृदयकी पाषाण गो? (ती फातोरुशि उबरना)

गिरी : येनां हांव. देवु तुगेलें रक्षण करो. (वोचु करता.)

विना : राब चिके. वत्ता म्हणलेलें खंयि? तिगेल्या उदरांतु तुगेल्या वंशाचो अंकुरु वृद्धि जायत आस. असल्या वेळारि तिका सोणु वच्चें न्हयि तूंवे.

गिरी : ये देवा. हासचें की रडचें! असले पवित्र उदरांतु मगेल्लो वंशु वृद्धि जाता म्होणु हासूं, की त्या अपत्याक बापसूलें नांव सांगूक थायि लाज दिसनलि म्होणु रडुं. (ती हालनानिलें उबरना,

गिरीश सटकने भितरि वता.)

पांडु : बाळा ताक्का भयंकर पश्चातापु जाल्ला. तो जीवा कांयिपुणि कोरनु घेद.

हेम : होनिये. तो तूं लेकता तश्शि ना. हांव सानपणि धोरनु पळयता ताक्का. आमगेले स्कूलांतु एक आदर्श चेरको म्होणोवनु घेत्तालो तो. परिस्तितीनें अशि जाल्लेलो, तागेलो तिरस्कारु कोरनाक्का. यू उइल चेरीस धीस डे ऑल युवर लाइफ. (गिरीश एक बॅग घेंवनु स्टेजारि येत्ता. अनितादिका पळयनात्तिल्लें भायर वत्ता)

पांडु : आपयि ताका वापस. पापणी तुगेले पोट्टां उब्जूंवच्या पोराक जन्मा येंवचे फूडेचि पितृहीन कोरनाक्का. (तळमळता. गिरीश, फाट्टीमाक्षि धांवता, तागेल्या हात्ता धोरनु) गिरीश, कसलें करता हें तूं? खंयि वत्ता? (तो हातु सोडोवनु घेत्ता. सटकने वागलालाग्गि वत्ता. विनायकु, हेमंतु फाट्टिमाक्षी वत्ताति. तितले भित्तरि अनिता "गिरीश", "गिरीश" म्होणु किळचूनु बेशुद्ध पडता. सर्वजण तिज्जेलाग्गि येत्ताति. भायर थावनु शोपिंग बेग हात्तां धरलेली मेरी भित्तरि येत्ता)

मेरी : आवयि. पत्ते पत्ते दोळचा काळोकु यथलो तुक्का? कित्तें येद्दें खा, पी, म्होणोन सांगल्यार आयकाना. राब येदो ज्यूस हाडोन दिता. जीवाक बरें दिसतलें. (तोंडारि हात दवरनु गिरीशाक) आवयि सांगों इसरलें. भायर कोण गिरेस्त येयला. तुमकां इचारता. (अनिता उटावनु वसता. मेरी भितरि वता. गिरीशु भायर वता, मेरी ग्लासांतु ज्यूस घेवनु येता, वत्ताय करनु अनिताक पिवयता. गिरीशु शंकररायाक घेवनु भितरि येता. ताका पोळोवंचे भितरि पांडु तोंड फिरावनु रावता. गिरीशा मान तग्गु)

हेम : (आश्चर्यान तोंडांतुले तोंडांतु) आरे शंकरमामु! !

विना : यो बैस. गिरींश, परिचयु कोरनु दीने तूंवे.

शंकरु : कशि दितलो? बहुशा बाप्पुसु मेल्ला म्होणु मांगुनु आसका ताने. न्हयि जाल्यारि हाने विलायतेथावनु वापस आयिलि खबरि

हागेलो दोस्तु डाक्टर सोमेश्वरालागि थावनु आयकुवंका आशिलिवे? होरडीक कोरनु घेतना एका अक्षराने माका कळयिलें ना. (अनिता शंकराक पांय पडता.)

गिरी : (भित भित) आना ही तुगेले सून. (अनिता सन्नेने सांगता, गिरीशु पांय पडता.) आना माका क्षमा करि. मामा, हो मगेलो आनु.(पांडु फिरनु राबता. पांडु शंकरु एकमेकांक स्थिर दृष्टीने पळयतातित)

शंकरु : (गंभीर स्वरांतु) पांडुरंगरायु?

पांडु : पांडु म्हणल्यारि पुरो.

शंकरु : मज्जेवेलो कोपु अजुनि बचने.

पांडु : मज्जें सांगतणी बचचो तो.

गिरी : मामा. तुका आनालो गुर्तुं आशिलो? माका इत्याक सांगने इतले दिस?

पांडु : तो ही सोयरिक केन्नाथि कोरुक दीशिनाशिलो.

गिरी : तें इत्या? आना तुमकां नज्जपण–

शंकरु : मगेल्या मूर्खपणामितिं जाल्लेलें. पांडु – सान्ना भैणी बामुणु म्होणु आपलेपणाने पांडु म्हणतां हंवे.

अनु-गिरी : भैणी बामुणु? म्हणल्यारि. आमी कझिन्स.

शंकरु : होयि. तुमगेलि हक्का सोयरिक.पांडु तूं विश्वासु दवरताकी नाकी. हांव ह्या सोयरिकेक आनंदाने कबुली दित्तशिलों. तूंवे जाण जाल्लेलो शंकरु हो वरनि आतं पांडु. मगेल्या भैणीलें निर्जिव आनि निस्तेज तोंड ज्या क्षणाक हांवे देखलें–

पांडु : (चकित) तूंवे देखलें !

शंकरु : होयि, हांव आयिल्लो त्या काळरात्री. तुगेलें कागद वेळानें मेळ्ळें. हांवे हांगा पावतना धा घंटे राति जाल्लेलि, झोझो पावसु पडतालो. गेंटालागि मस्त जण छत्रयो धोरनु राबिलिं. हांवयि त्या लोकांतु निपुनु राबिलों. दुःखाने तुजांतु ना आशिलो तूं. हातु धरनु सांगानिचि वचशां म्होनु भारी मन तळमळलें. जाल्यारि

गुन्हेंगाराक धैर्य खंचाने येतलें. चोससो छत्रेआड निपुनु तुमी दोळयांआड जायसरि तुमकां पळयिलें आनि धरलि मगेलि वाट. (अनिताल्या खांदारि हातु दवरनु) अनिताक थेटा सीतम्मालेंचि रुप. हिका पोळोवनु दुःख विसरचि प्रयत्न करता. पांडु, एक वेळा माका क्षमा केल्या म्हणरे.

पांडु : (तागेलो हातु दोन्ही हातानि धरनु) हांवे तुगेल्या पुत्ताक तुज्जेरि जिद्दाने जांवयि करनु घेतलो, तुंवेचि माका क्षमा करकाज.

गिरो : तरि हांव जिद्दाने केलेलो जांवयिवे? (हासता)

पडदो पडता

**समाप्त**





## मुक्ताबायिलि इतर नाटकं

फाल्सा तुक्का बण्णु चड्डु

जळो वाती सगळी राती (रुपांतर)

मगेले घर मगेलीं पोरं ,,

बलीदान ,,

गर्वा घर खाली ,,

बबलु तुक्का कोण जायी? ,,

फ्लोरन्स नायटींगल अथवा देवी दीपालि

आणि इतर रेडीयो नाटिका.

---


**Shree Om Sai Printers,**

Saibaba Mandir, 17, Tilak Mandir Road,
Vile Parle (East), Bombay–400 057.

Telephone : 62 44 19